# अठरा जून

कविता संग्रह

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय







गोवा कोंकणी अकादेमी

# अठरा जून

कविता

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

प्रकाशन क्र. 92



पयली आवृत्ती :
2007

उजवाडावपी :
ज्यासिनो वाझ,
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय.

छापपी :
श्रीगुरुकृपा टायपोग्राफिक्स,
मडगांव गोंय.

मुखचित्र :
गौरीश वेर्णेकार

मोल : रु. 70/-

# Atthara Jun

Poems

Dr. ManoharRai Sardesai

Publication No. 92





**First Edition :**
2007

**Publisher :**
Joaosinho Vaz
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa.

**Printer:**
Shreegurukrupa Typographics
Margao, Goa.

**Cover:**
Gourish Vernekar

**Price: Rs. 70/-**

# अकादेमीचे वतीन...

कोंकणीतले कविवर्य डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांगेलो 'अठरा जून' हो कविता संग्रह गोवा कोंकणी अकादेमीचे वतीन उजवाडाक येता. मनोहरबाब हयात आशिल्ले तेन्ना ह्या संग्रहाचो वावर चलिल्लो. श्री. माधव बोरकार हांचेकडेन मनोहरबाबांच्या कविता संकलनाचो वावर सोंपयिल्लो. संकलित केल्ल्या हात बरपाक खासा मनोहरबाबांनी 'सगलो बाजार' अशें नांव दिल्लें कारण तातूंत आदल्या पुस्तकांत आस्पावंक नाशिल्ल्यो सगळ्यो कविता ह्या संकलनांत आयिल्ल्यो. मात ह्यो कविता तिनशीं पानां वयर गेल्ल्यान येदें व्हडलें पुस्तक उजवाडावप व्यवहारीक नदरेन तशेंच शिक्षणीक नदरेन (पाठ्यपुस्तक म्हण लागपाचे नदरेन) योग्य नाशिल्ल्यान तातुंतल्यो वेंचीक कविता उजवाडावच्यो अशें थारलें आनी ताचें नांव 'अठरा जून' दवरचें अशेंय थारलें. कारण 'अठरा जून' ही तांगेली एक चड आवडटी अशी कविता आशिल्ली. मनोहरबाबांच्यो उरिल्ल्यो कविता अकादेमी कडेन आसात आनी त्यो उजवाडावपाचे नदरेन अकादेमी वेगळो विचार करतली.

पुस्तक उजवाडावपाचे बाबतींत मनोहरबाबांचे सुपूत्र श्री. सुनील सरदेसाय आनी घरच्यांनी दिल्ल्या सहकार्याखातीर अकादेमी तांच्या उपकारांत आसा.

मनोहरबाबांचो आनी गोवा कोंकणी अकादेमीचो खूब लागींचो संबंद आशिल्लो. 1986-1993 ह्या काळांत ते अकादेमीचे उपाध्यक्ष म्हण वावुरले. अकादेमींत 'लोकवेद' विभागाखातीर तांणी खूब मोलाचो वावर केल्लो आसा.

कोंकणी साहित्याक मनोहरबाबांचें योगदान खूब व्हड आसा. साहित्यिक परिसंवाद, कवीसंमेलनां, सूत्रनिवेदनां आदि कार्यावळींनी मनोहररायांच्या कवितांचो उल्लेख केले बगर कार्यक्रम मुखार वचना. गोंय विशयावयल्या मनोहररायांच्या कवितांचे दाखले दिलेबगर उलोवप्यांच्या भाशणांक पूर्णताय लाबना. कवितेच्या माध्यमांतल्यान जनमानसांत इतले व्यापकरितीन पसरिल्लो दुसरो कवी आमचेलागीं ना.

मनोहरराय आमचेमदीं नात; पूण ते आमचे साहित्यिक आनी भौशीक जिणेंत आमचेमदीं भरसून आसात आनी आनीक कितलींशींच वर्सां उरतले हाचे विशीं दुबाव ना.

**पुंडलीक नायक**
अध्यक्ष

# संकलनाविशीं...

'गोंयां तुज्या मोगाखातीर' (1961), 'जायात जागे' (1964) हे मनोहरराय सरदेसाय हांचे दोन म्हत्वाचे कविता संग्रह. ते उप्रांत 'जायो जुयो' आनी 'पिसोळीं' अशे दोन ल्हान कवितांचे संग्रह प्रसिद्ध जाले. 1964 उप्रांत बरयल्ल्यो तांच्यो म्हत्वाच्यो वेंचीक कविता ह्या संग्रहांत आस्पावल्यात.

2001 वर्सा मनोहरबाबाले कवितेचेर म्हाका एक उलोवप करपाचें आशिल्लें. त्या निमतान तांच्यो असंग्रहित कविता वाचपाची म्हाका संद मेळ्ळी. मनोहरबाब आपल्यो कविता डायरी वा कादेर्नाचेर बरोवन दवरिनाशिल्ले. मेक्रळ्या कागदांचेर बरोवन त्यो फायलींनी दवरताले. खूब फावट नेमाळ्यांनी धाडटना ताची थळप्रत दवरतालेच अशें ना. ताका लागून तांच्यो जायत्यो कविता नेमाळ्यांचे अंक पळोवन सोदून काडच्यो पडल्यो. अश्यो आनिकूय जायत्यो कविता हांगाथंय शिंपडून उल्ल्यात आसपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना. ताचोय केन्नातरी सोद घेवन त्यो एकठांय करपाक जाय.

मनोहरबाबान विंगड विंगड तरेच्यो कविता बरयल्यो. तातूंत प्रासंगिक विशयावेल्यो कविता आसात तेच प्रमाण आरत्यो आनी मंगलाश्टकांचो आस्पाव जाता. जिविताचे अखेरेक अणभवाचें अर्क म्हणूं येत अश्यो सुपुल्ल्यो कविता 'तिकल्यो' म्हूण 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत उजवाडा येताल्यो. तांचे कवितेचो अभ्यास करतल्याक तांचो विचार करचोच पडटा. तांणी रचिल्लीं बालगितां होय एक खेरीज अभ्यासाचो विशय आसा. ह्या संग्रहांत तांचो आस्पाव केल्लो ना.

हो संग्रह सिद्ध करतना म्हाका मनोहरबाबाचो पूत उमेश सरदेसायाचो खूब पालव मेळ्ळो. आमी जायते फावटी मेळ्ळे आनी ह्यो कविता नदरेखाला घाल्यो. तेन्ना मनोहरबाब हयात आशिल्ले. कविता निवडटना तांचेकडेन चर्चा केली. आनी कांय कवितांचे पाठभेद निश्चित केले. 1973 वर्सा पुंडलिक नायकाच्या संपादना खाला 'परजळ' ह्या नांवाचो खासा कवितांचोच चक्रमुद्रित अंक आयिल्लो. ताची एक प्रत नागेश करमली हांणी उपलब्ध करून दिली ते खातीर हांव तांचो उपकारी आसा.

ह्या संग्रहाचें हातबरप मनोहरबाब आसतनाच तयार जाल्लें. संग्रहाची अर्पणपत्रिकाय तांचे इत्सेप्रमाण हांगा दिल्ली आसा. हो कविता संग्रह उजवाडाक आयिल्ल्यान मनोहररायालें कोंकणी कवितेक योगदान लक्षांत येतलें आनी कोंकणी कवितेच्या अभ्यासक्रमांत ताचो लाव जातलो हातूंत इल्लोय दुबाव ना. गोवा कोंकणी अकादेमीन तो उजवाडा हाडपाचो भार उखल्लो ते खातीर अकादेमीचे उपकार आठयतां.

माधव बोरकार

# मांडावळ

1.

## भावा तुज्या पोरसा भितर

भावा तुज्या पोरसा भितर
लाख लाख फुल्ल्यां फुलां
तांचें म्होंव काडीत कोण?

तुजें उशेल तुजे मुखार
उसा-रोस काडीत कोण?
भांगरा रोस आटोवन ताजी
गोड साकर गाळीत कोण?

कितलो पिशी भायलो सोरो
घरचो सोरो कितलो बरो
अमृताचो हांडो फोड

लायलो हांवें ओठांक पेलो
काळजा नवो हावेस दिलो
नवी जीण दिसली फुडें
आनी घरची लागली ओड.

मडगांव
1945

2.

## जिणेचें तारूं

सपनांतली सोबीत राणी
उजवडट्ट्यार लिपली खंय?
हांसो फुलांचो पोरसांतल्या
दिसपट्टेर गेलो खंय?

सपन म्हजें, म्हजी प्रीत
हेत म्हजो, म्हजें गीत
वचूं उबून गोबोर तांचो
ना आतां म्हाका भंय!

संवसाराचो हो खेळ
सपन, जीण - कसलो मेळ?
धव्याफुल्ल हांशाचेर
मर्णाची काळी सय!

तरी नज आतां भरूं
जिणेचें पिशें तारूं
अशेंच व्हावन वचप फुडें
हुंवारी व्हाळांतली पोंय!

मुंवय
1951

3.

## म्हजी भूंय तानावल्या

म्हजी भूंय तानेल्या
म्हजी भूंय आशेल्या
म्हजे भुंयेक जाय रगत.
तिची तान म्हज्या दुकांत
तिची तान म्हज्या घामान
थारावना, पालवना
म्हजे भूंयेक लागल्या भूक
म्हज्या कंवळ्या काळजाची
म्हजे भुंयेक लागल्या तान
हुनहुनीत रगताची.

झुंजा मळार पडलों जाल्यार
मर्ण म्हजें एकल्याचें
हांवें जैत जोडलें जाल्यार
जैत म्हजेच माय-भूंयचें

पारीस
1952

4.

## नवें तुफान गर्जेता

आयज ल्हारांत जुवारिच्या
तुफान नवें गर्जेता
पानां, फुलांत आनी मनांत
उतर नवें फुरफुरता.

आयज शेतांत आनी भाटांत
नवी जीण परमळटा.

तुजी भूंय, तुजी न्हंय
नाल्ल धन्याक, तुका पोंय
फुटकी घेवन कट्टी हातांत
कित्याक जगार भीक मागता.

तुका हुलप, लोकांक वडे
हेरांक भांगर, तुका गुंडे
शेतांत फुलोवन पाचवें हाशें
दुकां कित्याक रे गाळटा?

तुजे पणस, तुजे माड
कोण रे येत तुजे आड
उबार कुराड घाल रे घाय
काळीज कित्याक धडधडट्टा?

आयज मनांत आनी रानांत
नवें वारें सळसळता
मांडविच्या पोटांत आज
नवो उजो भगभगता.

पारिस
1955

5.

## पडली बडी

पडली बडी, पडली बडी,
आज रे धोलार पडली वडी,
लाख घडयांत एकदां येता,
जिणेंत असली भांगरा घडी.

नारे भावा एकलो तूं
हांव रे येतां तुजे फाटल्यान
म्हजे फाटल्यान येतात पळे
घेवन भाले लाख गडी.

पडली वडी, पडली बडी
आमचे जिणेर पडली बडी
जैताचो वाजलो धोल
दुस्मानांची भल्ली घडी.

पारीस 1955

6.

## तुमचे खातीर

तुमचे खातीर खातां वीज
तुमचेखातीर रोयतां बी
उतरांच्या इंगळ्यांचें
आनी हांव चोयतां वाट
वाव आनी वादळाची
गोबरेल्ल्या इंगळ्यांतल्यान
येतलो उजो चाटीत जिबो
दोंगर, झाडां आनी पेडां
धगा सकला कट्टलीं
ऊंच, ऊंच बंदखणिंचीं
दुखेस्त दारां लोखणाचीं
आट्टलीं रे मेणावरी
मोव काळजां लोणयाचीं
सवाय सपनां कथलांचीं
हुलपतलीं, करपतलीं
आस्त मात भांगरावरी
प्रीत मात मळबावरी
एका खिणात राजा तुमी
पाचव्या चार शेताचे
पिकाळ मोगाळ मातयेचे
जिवा भयान, मारा भयान
होगडायल्ले माय-भूंयेचे
राग गिळटां, वाट चोयतां
त्या खिणाची, त्या खिणाची
आनी तुमच्या काळजा शेतांत
तांबडे गुंज रोयतां बीं
उतरांच्या इंगळ्यांचें.

पारीस 1955

7.

## हांव येतलों

हांव येतलों, हांव येतलों
सोडवणेचो बावटो घेवन
युद्धाचें शींग फुंकीत
तकली हातार घेवन येतलों.

कुराड घेवन हांव येतलों
त्रिशूल घेवन, बाण घेवन
दुश्टांचें भेंड म्होडूंक
वज्र घेवन हांव येतलों.

जावन वाव येतलों हांव
किटयेंतलो काडूंक जाळ
वीज-चाबूक कडकडायत
हतयार बसून हांव येतलों

हुंवारावरी हांव येतलों
गिळीत झाडां आनी पानां
दरयावरी ल्हारां घुसळायत
फेणेर पिंजायत हांव येतलों.

काळ जावन हांव येतलों
कडकडायत मळब जमीन
रगताचें तेल जाळीत
प्रळय जावन हांव येतलों.

पारीस
20.5.55

8.

## दीसरात तुजो ध्यास्त

दीस रात तुजो ध्यास्त
म्हाका भोगता तुजी ख्यास्त
एका एका दुकांत म्हज्या
तुजें रगत, तुजो घाय.

लोखणाच्यो, भांगराच्यो
बेडयो सगळयो तोडपाच्यो
पात्शांच्या मुगटांचेर
मार मूठ, उवार पांय

तापली नदर, पेटलें, काळीज
कुपां फोडून फांकली वीज
आतां मनांत आनी तोंडात
स्वतंत्रताय! स्वतंत्रताय!

पारीस
10.6.56

9.

## चौदा जुलै

म्हजें काळीज नारे हांगा
नाचऱ्यां वांगडा, पिवप्यां वांगडा
म्हजी नदर ना रे हांगा
रंग - जोती चोवप्यां वांगडा.

जुवारेच्या उज्या ल्हारांर
म्हजी नदर धोलता पळे
हड्डें म्हजें तेरेखोलांत
दुस्मानांचे झेलता गुळे.

म्हजें काळीज भांगर पिकोवन
फातर भकपी कुणब्यां वांगडा
पिंजके खोपींत माये उबेंत
जीण पोसपी आवय वांगडा.

धगधगपी मन म्हजें
राग गिळून सोसता मार
सुल्तानाच्या चाबकासकला
खण खणटा सुक्या सड्यार

संगिनिच्या तिख्या-तोंकार
काळीज म्हजें हुमकळटा
बावीस हजार बुटांपोंदा
कूड म्हजी खर्शेता

म्हजें मन ना रे हांगा
हांसप्यां वांगडा, गावप्यां वांगडा
म्हजें काळीज आग्वादाच्यो
वणटी फोडपी विरांवांगडा

पारीस : 14.7.57

10.

## दूदसागरा आतां

दूदसागरा आतां
किटकिटून हांस
परक्यांच्या जुल्मांचे
तुटून झडले पास

सर्गीचे दूद-गंगे
खळखळत घाल न्हाण
देवी शांते, मोरये
निर्शिल्ल्यांक येवंदी त्राण

कोगळाचो म्होंवाळ गळो
मेकळो जावन झिरपता
आमच्या निळ्या मळबातलें
विखाळ गिराण सुटलें आतां

करून फुडें फातरा छाती
आग्वादाचो कोट खोशी
लोखणाचीं सगलीं दारां
उक्तीं जालीं पाकळ्यो कशीं

स्वतंत्रताये तांबड्या - उज्यांत
कालचो काळोख जाळूंया
लासूंया राग व्देस
स्वाहा अग्नेय स्वाहा.

1962

11.

## आज कितें घडलां

आज कितें घडलां
म्होंवें सपन पडलां
आज म्हज्या मना-मळार
भांगर शिंपडलां

आज हांसती जायो - जुयो
केळी-मोक्यार नव्यो सुयो
मोगांत पडून पारवो उडून
देवळा - घुडार बसला

आज वारो मोगावला
आज दर्या सुखावला
आज म्हज्या काळजा - तळ्यांत
साळीक फुल्लां

आज कितें घडलां
मोगा - सपन पडलां
चांफ्या-फुलार आज धवें
चांदनें शिंपडलां.

12.

## आमी थोडे

आमी थोडे
थोडेच आमी
जेजू स्वामी
आनी ताजे
वांगडी वारा
सगले तेरा.
शिवाजीचे
दोंगरी गडे
आसले थोडे
झांशीची लक्षीमवाय
आनी शिपायक
कितले जायत?
आमी थोडे
जितले थोडे
तितलें बरें
जितले थोडे
तितले खरे
बुन्यादीचे
आमी गुंडे
आमी थोडे.
आमचे घटायेचेर फाल्यां
व्हडलो कळस चडटलो.
आमचे धिटायेचेर फाल्यां
फुडार आसा घडचेलो
उजवाडार धोलतले
जैताचे गोंडेच गोंडे
आमी थोडे.

13.

## आवाजाक येवकार

आवाजाच्या देवा तुका
आवाजाचो येवकार
नाद ब्रह्म देवा तुज्या
ॐ काराचो येवकार

विश्वाचें मूळ तूं
जिविताचो ताल तूं
अनंत तूं विशाल तूं

अंतरंगा देंवलो तूं
म्हूर्त सोबीत निराकार
आवाजाच्या ल्हारांत तुका
ल्हारा-ल्हारान येवकार

क्षितिज नवें मेळ्ळां
सपन नवें घडलां
सगळे बंध तोडून-मोडून
नादब्रह्म देवलां

अनंत तूं, अदृश्य तूं
सगळेकडेन रावला
नखेत्राचें गुपीत तुजें
धर्तरेक गावलां

24.11.2005

14.

## अर्दकुटेंच मन तुमचें

अर्दकुटेंच मन तुमचें
अर्दकुटीच जीण
अर्दकुटेंच फेडलां तुमी
जाण्टेल्यांचें रीण
अर्दुकुटेंच दूख तुमचें
अर्दुकुटेंच सूख
अर्दकुटीच तान तुमची
अर्दकुटीच भूक.
अर्दुकुटीच न्हीद तुमची
अर्दुकुटीच जाग
खडावानी माल्ले तरी
अर्दुकुटोच राग.
मेले तरी सभाग्यांनो
अर्दुकुटेच मरतले
ना नरक, ना सर्ग
हुमकळ्याक पडटले.

15.

## अक्षरांत अक्षरां

अक्षरांत अक्षरां जुळोवन हीं उतरां
घडयल्यां.
ह्या उतरांत मरतां
ह्या उतरांत उरतां
थोडी मोगाची हूनसाण

थोडी सत्याची जडसाण
थोडी सपनांची मोवसाण
थोडी मातयेची तामसाण
ह्या उतरांक सांसपितां
ह्या उतरांतूय घुस्पतां
ह्या उतरांतूच हुलपतां
जें केलें ना तें सांगतां
जे जालें ना तें करतां.
ह्या मोन्या कागदाक
उलोवंक लायतां
धव्या फटफटीत कागदाच्या कपलाक
आमी सौभाग्याच्यो तिकल्यो लायल्यो
ह्या मोन्या मोन्या कागदाक
आनी हजार जिबो दिल्यो.

16.

## उतर

उतर तुजें दवर
मनांतल्या म्यानांत
जाय तेन्नाच भायर काड
कळमूं नये म्हणून
काळजाचे साणीर मात
परतून, परतून पाज...

17.

## आमची भूंय

ही भूंय
आमची भूंय
बाग कशी फुल्लेली
दर्यापसून दोंगरामेरेन
पातळ्ळेली
ब्रह्मदेवान आपल्या हातान
लायलेली
चंद्राची कोर कशी
परशुरामान आपल्या बाणान
कोंकणाचे पुण्यभुयेंत
शेंवटिलेली
घाटावेल्या चंदनाच्या परमळान
फुल्लेली
मड्डांतल्या हुनहुनीत भाता - वासान
भल्लेली
झुळझुळीत उदकाच्या झऱ्यांनी
भिजलेली
माणकुल्यांचीं तोंडां कशीं
हांगचीं फुलां
सदां हांशान फुल्लेलीं
माणकुलीच बाग आमची
मीर्गाचो आंकूर कशी
शेकानशेक संवसारांत
असली भूंय मेळत खंय?

18.

## कित्याक?

निक्तो रोंपो लायला शेतांत
फुलचे आदींच कापशी कित्याक?
निक्ती घरांत फांतोड जाल्या
दारां धापून न्हिदशी कित्याक?

लिखणी जरी आसली वरी
जिवली तुजी तोडशी कित्याक?
खांद्यार बसून मुळार पिश्या
कुराड अशी मारशी कित्याक?

भरती आतांच परती येता
व्हड्याक रेव्यांत लोटशी कित्याक?
पारवो आतांच शिकता उड्डूंक
सुतली पायांक वांदशी कित्याक?

जाण्टेल्यांची भांगरा-भूंय
मातये-मोलान विकशी कित्याक?
वाटेवयलीं मिरयां जोखून
घरचें मोतीं मोखशी कित्याक?

19.

## स्वतंत्रताय

घालो म्हाका बंदखणीत
घालो म्हाका बंदखणीत
संवसारांतले सगले गुलाम
एकाच खिणांत इश्ट जाले
धांपलेले कुडीभितर
नवें जिवीत उत्कें जालें
मळबाचो कुडको एक
नव्या रूपान झगझगलो
सवण्यांच्या किलबिलान
पयलेच खेपे पिसो जालों
कोनशांतल्या आंकराच्या
कवंळेपणार मोग केलो
पावसाच्या पावळ्यांनी
कळवळून सांगलें म्हाका
मनशांचे घाय
सरयांच्या सांवळ्यांनीं
वण्टीचेर चित्रायली
उतरांची आकृताय
स्वतंत्रताय

20.

## काळजा भितर

काळजा भितर खंय तरी
खंय तरी तोंपता कांटो
तोंपता कांटो उगडासाचो
मोगा तुज्या उगडासाचो
तोंपता कांटो.
चांदन्याचो सांगात म्हाका
मातूय नाका
म्हज्या मोगा, तुजेबगर
हांव एकटो, हांव एकटो
काळजाभितर खंय तरी
तोंपता कांटो.

21.

## कळो म्हणून

कळो म्हणून खोयलो माथ्यांत
कुच्च करून तोंपलो कांटो
उदक म्हणून लायलो ओंठाक
काळजाभितर पेटलो उजो.

मना म्हज्या तोंपला कांटो
परमळाचीं ओंठार गितां
काळजाभितर पेट्टा उजो
उदकावरी व्हांवत वेतां

22.

## उदेंतेचो निळो दोंगर

उदेंतेचो निळो दोंगर
अस्तमेचो दर्या
गोंयचे भुंयेर संवसाराचो
सर्ग आमी करया.

पाचवींचार हांगचीं शेतां
भांगरावरी वोतां
शिरी, शिरी, पडटा पावस
हिरी, हिरी जोतां

माडयांवळींत फुलून येतात
उमाळ्याचीं उतरां
माडांवेल्यान उडत वेतात
रेंदेरांचीं कांतरां

शिगम्याचो घालता धोल
गांवागांवाक उलो
सवायशिणी बायलो गातात
हालत-धोलत धालो.

इगर्जेची गाजता घांट
आपयत हांगा सर्गा
देवळाभितर आरती दिता
उजवाडाचीं आर्गां.

23.
## कवनां

वाऱ्यावेलीं कवनां
वेतलीं उबून वाऱ्यार
मन तुजें थाऱ्यार
आसल्यार पुरो...

24.
## थर थर सुकणीं

थर थर सुकणीं
सळ सळ पानां
सर सर वारो
कुर कुर कानां.

झीर झीर चोळी
शीर, शीर आंग
टप, टप पांवळी
कोण येता सांग.

25.
## वण्टी

आमचे भोंवतणी
आमी निबर वण्टी बांदल्या
आनी रुखाच्यो मोगाळ सांवळ्यो
पयस जाल्या.

## 26.
## पांवळ्यो

सर सर पावस पडटा
ओल्यो, ओल्यो सांवळ्यो
काळजांत झडटात
उगडासाच्यो पांवळ्यो...

## 27.
## खुरसाची काणी

खुरसाची काणी ही
दुवळ्याच्या माये मोगान भरलेली
हुनहुनीत दुखां थेंब्यान
भिजलेली
पुण्यवंत रगता खतान
माखलेली
सर्गीच्या उजवाडान फांकलेली.

पोरणी तरी नवीच काणी
दिसान दिसा सांगपाची
काळजाचे दोळे करून
दोळे धांपून देखपाची
जेन्ना मनीस चुकता वाट
मनीसपणाक करता फाट
तेन्ना तेन्ना गावपाची

खुरसाची काणी ही
म्हजी तुजी सगळ्यांची

भुरग्यांची जाण्ट्यांची
अस्तमेची उदेन्तीची
काळखांतल्यान उजवाडाची
जैत सदांच जोडपाची

खुरसाची काणी ही
हाडा मांसांत सोंसपाची
खिणा खिणाक भोगपाची

हाता पायांक तोंपले खिळे
गळो लेगीत गेलो सुकून
तरी नदर वयर लायत
देवा धनयांक ओंपपाची
खुरसाची काणी ही
संवसाराचे सुटकेची.




28.

## कितलें हांवें देखलां

कितलें हांवें देखलां
कितलें हांवें सोसलां
दर्या लेगीत आयलों सोदून
तरी सुकोच उल्लां
गांव गांव भोंवलां
पडलां आनी उठलां
धांव धांव धांवलां आनी
तारीकडेन पावलां.

29.

## गिता म्हज्या

गिता म्हज्या वच उडून
जाय थंय, जाय तशें
जंय वेशी थंय गिता
लाय पिशें.

माणकुल्यांक लाय पाखां
चांदन्याचीं
जाण्टेल्यांक दिवटी दाखय
ज्ञानाची.
मोगा-पिशे अस्तुरेच्या
दुकांत हांस
एकसुन्याच भोंवडेकाराक
दी सांगात.

दोंगरांचीं तेमकां उपून
रेंदरांच्या ओंठार नाच
दुबळ्याच्या दुखार ओड
मोगाळ हात.

वंदखणींच्या फातरां आड
फांतोड कर
काळखाचीं कुस्कीं मनां
उजवाडान भर...

30.

## चित्र सुंदरी

तुजो पदर जेन्ना उबता
सगलो संवसार धोलता
जाण्टो जाता तरणो आनी
उबोच तरणो पेट्टा

तुजे दोळे लिकलिक दिवजां
तुजी नदर चिरता काळजां
कोंगऱ्या-काळ्या केंसां झुलपांत
मनूय घुस्पून उरता

तुज्या ओंठार अमृत पिकता
तुज्या आंगार चांदनें ओत्ता
तरणी तिकतिकीत कंवळी पिपरी तूं
अशीच मोडीन दिसता.

चित्रंगी तूं चित्र सुंदरी
चित्रूंक चित्रिक बसता
रंगरंग गे तुजेच देखतां
चित्रूच अर्द्यार उरता

31.

## जिवीत

आज जिवीत जालां
घाणिच्या गटाराचें अळशिकावणें तोंड
जिवीत म्हळ्यार
राग, द्वेस, फटिंगपणाची, कुस्केपणाची
कडकडीत खर दनपार
शांती सामकी जायशी दिसता
ह्या रखरखपी रस्त्यार.

शांती म्हळ्यार सपन जटायुचें
शांती म्हळ्यार शेत कणसांनी भरिल्लें
शांती म्हळ्यार अटंग्या रानाची न्हीद
शांती म्हळ्यार बेबदो दर्या
धुंद मळब
पूण
शांती म्हळ्यार विकऱ्याची वस्त न्हय
शांती म्हळ्यार हिरो न्हय, नील न्हय
मोतीं न्हय, माणीक न्हय
शांती म्हळ्यार अज्ञान
भावार्त हेंच शांतिचें व्हडपण
कितली सोदली तरी
शांती मेळची ना
शांती म्हळ्यार -
फूल काळखाचें
केन्ना ना मेळपाचें.

32.

## जेजू म्हजो आयलो परत

जेजू म्हजो जावन जितो
आमचें मदीं आयलो परत

किरणांचो भेस करून
काळखाचें थडें फोडून
मरणाचेर जैत जोडून
जेजू म्हजो आयलो परत.

जावन मनीस सोसलीं दुखां
धर्तरेचीं सोडलीं सुखां
हड्ड्यातलें काळीज पिळून
तान्नेल्याक दिलें रगत
जेजू म्हजो आयलो परत

सगले घाये गेले पेखून
सगलीं दुकां गेलीं सुकून
आयज खिळे जावन
फुलती पळय परमळत
जेजू म्हजो आयलो परत

सुकण्यांनो किलबिलात
घाटयांनो किनकिनाट
नकेत्रांनो लिकलिकात
निरशेल्यांनो मनमनात
उजवाडाचें सपन विणात

आयज जेजू जितो जावन
आमचे मदीं आयलो परत

33.

## तुजे बोगोर

सूर्या गेला धारेर आतां
दर्या गाजोता
तारवा भाशेन दर्या ल्हारार
काळीज नाचोता.
सुकण्या-पिला घोंटेर सोडून
खंय रे उडोता?
तुजे यादीन काळीज हांगा
मोगान जळोता
यो रे मोगा यो रे बेगीन
तुकाच राबोता
तुजे बोगोर जिवीत मुजें
वाऱ्यार उबोता.

34.

## तांचेखातीर

हड्ड्याभितर तुफान आसून
ओंठार एकूय उतर ना
तांचेखातीर ओंठ म्हजे

माथ्यार वजें संवसाराचें
सुक्या निबर उगडासांचें
जांचें सपन सुकून गेलां
तांचेखातीर सपन म्हजें

आंगांत नवी ताकद आसून
मनांत मातूय उमेद ना
रगताभितर उजो आसून
दोळ्यांत एकूय किर्ण ना.
जे फुडार घडयत वेतात
जांकां पुणून ना फुडार
तांचेखातीर गीत म्हजें.

35.

## तूंच म्हजो भाव

तूंच म्हजो भाव आनी
तूंच म्हजो धनी
दीसरात तूंच म्हज्या
ध्यानीं आनी मनीं

तूंच म्हजो इश्ट आनी
तूंच म्हजो गुरू
सेवा तुजी करतानांच
जिवीत म्हजें सरूं

तूंच म्हजी भूक आनी
तूंच म्हजी तान
तूंच म्हजी शक्त आनी
तूंच म्हजो प्राण.

तुवेंच दिलां मन म्हाका
तुवेंच दिली प्रीत
तुज्याच पांयार ओंपतां हांव
तरणें म्हजें गीत.

36.

## देखतां तुजी वाट

सोडून गेलीं, सवणीं घोंटेर
उबली दिसार रात
फांतोडेचेर रावन वाटेर
देखतां तुजी वाट

दोंगरावेल्यान भांगर ओतून
भरून गेलें भाट
पारजताचीं फुलां पुंजायत
चोयतां तुजी वाट

पावल तुजें वाजलें म्हणून
लायतां वाऱ्याक कान
ताळयेवेलें सट्ट करून
पडटा भुंयेर पान

वाट तुजी देखून मोगा
आयला गळ्यांत प्राण
घुंवता रान भोंवतणी
सुटून गेलें भान...

37.

## देवाचो संवसार

गांवांत एक देवूळ आसा
देवळांत एक देव आसा
मनशाच्या तोंडाचो

वज्रांच्या दोळ्यांचो
भांगराच्या मुकटाचो
रस्माच्या पुडव्याचो
देवामुखार दिवली आसा
दीसरात पेटत आसा, पेटत आसा
वातीक लागून, पाखे येतात
पाख्यांक लागून पाली येतात
रुप्या ताटांत फुलां आसात
आंबे आसात, पेरां आसात
चिकू आसात, केळां आसात
गोड आसा, साकर आसा
केळी खावंक, जल्ले येतात
साकर खांवक, दोमळे येतात
आंबे व्हरूंक हुंदीर येतात
देवा - ताटांत पडटा दुडू
दुडू काडूंक भगत येतात
मांडार वचून दुडू दितात
तांदूळ घेतात, शीत करतात
थोडे गोटे देवाक दितात
दादले येतात, बायलो येतात
जाण्टीं येतात, भुरगीं येतात
दोळे धांपून मागणें करतात.
म्हाका वरी वायल दी
म्हाका वरो घोव दी
म्हाका वरें घर दी
म्हाका वरी गाडी दी.
म्हाका बेगीन वरो कर
म्हाका बरो पास कर
म्हाका सोर्त फुटूं दी

म्हाका वेंचून येवं दी
मागीर म्हाका मंत्री कर
म्हजें घर दुडवान भर
जो गिरायकांक लुट्टा
तो नवें घर बांदता
जाका सोर्त फुट्टा
तो बरी घांट घालता
जाका चलो जाता
तो देवाक मोतयां-झेलो दिता
जिका घोव मेळटा
ती कातली आनी फोव वांट्टा
देवूळ गिरेस्त जाता
पुजारी गिरेस्त जाता
आनी अशे तरेन
देवाचो संवसार चलता.

18.10.2001

38.

## दर्याचे देगेरी

दर्याचे देगेरी माडाच्यो सांवळ्यो
मेकळीं सुकण्या-भिरीं
तळपाच्या हड्ड्यांतल्यान उसळून गाती
दुदावरी झरी.

तळयेच्या हारशांतू तरणुल्ल्यो माडयो
देखती आपलीं रुपां

भांगराच्या घोग्यांत न्हातात धुतात
रुप्या - कापसा कुपां.

आंब्याच्या चंवरांतू सळसळटा वारो
कोगूळ घालता उलो
आळवाच्या पानांरी मोतयांचीं दुकां
काळजा तोंपता भालो...

39.

## हांसती फुलां

हांसती फुलां, धोलती पानां
कितली खोशी, म्हज्या मना
उतर तुजें गेलें थरथरून
उगडासाच्या राना - वना

कोणें म्हज्या ओडलें आंगार
मोगाळ मोरा - पांख
सपनांचीं लावन पांखां
नाच रे मोरा नाच

येतलो फाल्यां कृष्ण म्हजो
जीव जाला पिसो, पिसो
तानेल्ले भुंयेचेर
उमेदीचो घसघसो...

40.

## नवे घोंटेर

उक्त्या पांयांची हूनसाण लागून
हो काळोकिट्ट डांबरी रस्तो, मस्तो रस्तो
तापतलो, पेट्टलो
ताज्यो तांबड्यो गुंज जिवो
वयर वयर तेंकतल्यो
पस्तीस माळयांचीं
गर्वीश्ट घरां
ल्हेंवतल्यो, जाळटल्यो, गिळटल्यो
त्या वेळार
गटाराच्या पोटावेल्यो
ह्यो खोंपयो सुपुल्ल्यो
तिस्त्यांनी वांदिल्ल्यो
साकाट्यांनी धांपिल्ल्यो
किटी, किटी हांसतल्यो
उक्त्या वाऱ्यार, उज्या वाऱ्यार
उबतल्यो
नखेत्रांचीं पांखां घेवन
नवे घोंटेर बांदतल्यो

41.

## नव्या गोंयांत

आयज हांगा नव्या गोंयांत
यूग नवें घडटा
गोवरांतली कीट जागून

इंगळो जावन पेट्टा.

चिड्डल्ली आमची भास
जिविताचो पिवन पावस
पोरणे फांतरपटे फोडून
लसलसून हांसता.

जे फुडार पारखीनात
जे घराक वळखनात
तांचे खातीर काळीज म्हजें
कळवळून रडटा.

दोळे आसून कुड्डे तुमी
कान आसून भड्डे तुमी
फांतोड फुटून, घोंटेर जागून
जीण नवी उडटा.

42.

## बाळ जेजू जल्मलो

निकतो दीस फांकलेलो
कोंबलो साद घालतालो
अश्या वेळार बेलें गांवांत
बाळ जेजू जल्मलो.

विश्वाचें व्हडलेंपण
गोठ्यायेदें ल्हान जालें
सर्गीचें तेज हांगा
भुरग्या-ओंठार थरथरलें.

फुटलो कळो आमच्या तणाक
शब्द हांगां आयलो रूपाक
मोग हांगा त्याग जावन
उजो कसो परजळ्ळो.

वाजय घांटी, घुमटां बडय
घराघरार दिवे फुलय
काळजांतले कुडी भितर
प्रीतीचें पाळणें हालय.

म्हणात मांडे, गायात धालो
आंकवारीगेर जाला चलो
संवसाराचो धनी आज
आमचे भेटे आयलो.

43.

## पेटय उजो

जिविताचेर सांवट घालूंक
काळखाचो आयला हात
आडांग्यांचीं भुतां आतां
वांकड्या पायान नाचत येतात
कांचवेल्ल्या तुज्या मनार
शिंवर घालूंक किर्णांचो
पेटय उजो
उमाशेची जिवली काळी
चंद्रिमाक गिळीत वेता
वस्त वस्त ल्हेंवत येता
झिलींभितर राखेसांचो
आयकूं येता पिसो हांसो
पेटय उजो
विळां आतां जावन जागीं
सरसरतात, फुसफुसतात
रूखांआड्डून पाचवे दोळे
कांजूलेशे लिकलिकतात
नितळ तुज्या तरण्या आंगार
फुलता कांटो भिरांतेचो
पेटय उजो.
पेटय उजो सुक्या तणाक
पेटय उजो भितरेपणाक
काळखाच्या कणाकणाक
पेटय उजो.
आळसायेंतून कर्तुपाचो
भिरांतेतून धिटायेचो
काळखांतून उजवाडाचो
मार्ग तुजो
पेटय उजो.

44.

## मोग म्हळ्यार सुख रे भावा

1

मोग म्हळ्यार सूख रे भावा
मोग म्हळ्यार सूख
मोग म्हळ्यार दूख रे भावा
मोग म्हळ्यार दूख
मोग म्हळ्यार चूक रे भावा
मोग म्हळ्यार चूक
देखून भावा सांगतां तुका
केन्ना मोग करूं नाका
असली चूक करूं नाका.

2

जांव काळी जावं मोटी
जावं तिरशी जावं थोटी
मोगाची वेगळी तरा
मोगांत बाबा पडटा ताका
सगली चली अप्सरा

3

हांव पिटपिटो, पिटपिटो
हांव तड्डकी मोटो
सगलें म्हाका खबर आसा
कोण खरो, कोण खोटो
रडटल्यांक हांसयतां
पिट्टल्यांक रडयतां
मोग्या - मोग्यांक एकठायतां
एकाच फारान निवळायतां
जांव चामटो, जांव भोटो
हांव पिटपिटो, पिटपिटो.

वेतलीं उडून काळीं कुपां
पिटपिट्याचीं कर्तुपां
ओंठार हांसो, हातांत सोटो
पिटपिटो रे पिटपिटो
आत्तां हांगा, आत्तां थंय
पिटपिटो रे वचत थंय
जोगलावरी आपालिपा
पिटपिट्याचीं कितलीं रुपां

45.

## सप्नांचीं सपनां

गायात गे धालो
लायात गे दिवजां
एकठांय गे आयल्यां
मोगाळ काळजां.

मोगाचे वाटेंतु
कितलीशीं विघ्नां
आतां गे नदरेंतु
सप्नांची सपनां.

घुमटाच्या तालारी
नाचात गे मांडे
खोसयेनु सारात गे
जिवीत थोडें.

जिवीतु थोडें गा
राशीभर विघ्नां
मोगाचे नदरेकु
सप्नांची सपनां.

46.

## मोगाळ इश्टा

मोगाळ इश्टा
तूं म्हाका विचारता :
हांव गेल्या उप्रांत लोकांनी
म्हजो उगडास कसो काडचो?
तुका दिसना हांवें हो प्रस्न
तांचेरूच सोडचो?
तूं विचारता :
हांवें केलें तातूंतलें
कितें उरतलें?
म्हजे उप्रांत तूं उल्लो जाल्यार
तें तुकाच कळटलें.
तूं विचारता
हांव गेल्ल्यान संवसाराचें
कितें लुस्कान जातलें?
मांडवी व्हांवता तशीच व्हांवतली
धर्तरी घुंवता तशीच घुंवतली
हांव गेल्ल्याची खवर
खंयच्यातरी पत्रांत कोनशांत येतली
खंय तरी, कोण तरी दोन दुकां
गाळटली
हांव म्हाका सोडून गेलों जाल्यार
घडये, म्हाका म्हजीच याद जातली...

47.

## म्हज्या सपनांचो रूख

म्हज्या सपनांचो रूख
मळबार उदेला
तांकां उजवाडाची वाट
कोणें दाखयली?
म्हज्या माथ्यांत हीं नखेत्रां
कोणें शिंपडायलीं?
घोग्यांनी हो दुकां-पावस पडटा
तरी काळजांत ही उज्या-तान
कोणें जागयली?

48.

## मागणें

सोपें उतर, सरळ मन
इतलें म्हाका मेळचें धन.

तांबडो पाट, पाचवें पान
इतलो म्हाका पुरो मान.

स्वार्थाचीं विरचीं कुपां
इतली म्हजेर करची कृपा.

म्हाका लागून फुल्लो गांव
इतलें म्हाका पुरो नांव.

49.

## मर्ण तुका हांसतलें

कितल्यो खेपो भिवन पिशा
जीव तुजो घेतलो मुठींत
येतली घडी तेन्ना पिशा
मर्ण तुका घेतलें कुशींत
दर्यावेलें मोड देखून
इतलो कित्याक थरथरो?
घुस्मटून मरूक तुका
कळसो भरूच उदक पुरो.
बायल, पोरां, घरांघरां
सगलें आसा सोडचेलें
पावल वाजय नासताना
मर्ण तुका व्हरतलें.
इतलो भिशी, रडशी कित्याक?
मर्ण तुका हांसतलें.
हांसत, हांसत स्वास सोडप
इतलें जैत आमगेलें.

50.

## म्हज्या मोगाळ मोगा-फुला

म्हज्या मोगाळ मोगा फुला
अशेंच मोगाळ हांस

तुज्या म्हज्या मोगाक पुरो
दोळ्यां मोगा भास

तुज्या काळ्या काळ्या दोळ्यांत
काळीज म्हजें शेणलें

उतरांबगर मोगा म्हाका
गुपीत तुजें कळ्ळें.

तुजो म्हजो मोग गो मोगा
कोणाक नाका सांगू

संवसाराची केन्ना ताका
दिश्ट नाका लागूं...

51.
## मोगाळ तुजें नांव

मोगाळ तुजें नांव रे मोगा
दर्या-वेळेर बरयल्लें
घसाघसा आयलीं ल्हारां
नांव रे तुजें पुसून व्हेलें.

मोगाळ तुजें नांव रे मोगा
काळजा-वेळेर बरयताना
दुकां-ल्हारां आयलीं पुणून
नांव रे तुजें पुसलें ना.

13.7.2005

52.
## मोगा रोंपो लायलो तुवें

मोगा-रोंपो लायलो तुवें
तुज्याच हातान तोडलो
दुसरे दोळे दिसले तुका
सांगात मुजो सोडलो

काळीज मुजें जळटा तरी
कांतरां करीत भोंवतां
काजरा तुज्या पावलो जाल्यार
कांतार मुजें मुण्टां
कांतार मुजें मुण्टां

13.7.2005

53.
## मंगलदायी परम सुंदरी

मंगलदायी परम सुंदरी
देवी शांता-दुर्गे
संवसाराच्या हुलपांत लासतां
सत्वर दर्शन दी गे.

अर्थहीण हें जिवीत आमचें
अनर्थ सगलो चलता
भाव वळखना भावा माये
मनीस मनशाक नाडटा.

क्रोध, मत्सरा सारके राक्षस
जगाक जाचतात, पिडटात
कुड्डीं, भेड्डीं शस्त्रां अस्त्रां
तोडटात, मोडटात, जाळटात

दुष्ट वासना, भ्रष्ट वल्गना
वांकडे वाटेंत कांटे.
बालक चुकतात, व्हर गे माते
कैवल्याचे वाटे.

स्मितवदना तूं शक्तिदायिनी
चैतन्याची स्फूर्ती
तूं ममतेची माता सदये
तूं आशांची पूर्ती.

दुष्टांक हाणपाक दुर्गा जाशी
सुजनांची तूं शांता
चरणांलागीं शरण आयलां हांव
आशीर्वचन मागतां

पंचमी
03.08.2002

54.

## व्हड व्हडलीं उतरां तुमचीं

व्हड व्हडलीं उतरां तुमचीं
उतरां उश्णी, शेळीं, उश्टीं
ना गा म्हाका फटोंवचीं.

पिंजकी तुमची पोती
तातूंत गोबर, माती
काजळी तुमचें हाशें
नदर तुमची तिरशी

पिंजकी ही जीण
उडयात पिंजून
उश्टे विचार खावन
कित्याक जियेवप जीण

मारात गा कुराड
घालात गा घाय
फुटूं दी काळजाची
झेललाल ल्हाय

तुमची जीण भरची उपाट
तुमचो मोग जांवचो उपाट
म्हणून हीं उतरां
हुनहुनीत उतरां
म्हगेल्या काळजांतलीं
सळसळट्या रगतांतलीं.

55.

## रात सल्ली

ते रातीं
रात सल्ली
एक याद उल्ली
कितल्या जाणांनी
आपलोच केलो उजो
देखून ही जोत फुल्ली.

56.

## वर्स नवें

घण, घण, टण, टण
घांटीर घांटी
चक, चक, लख, लख
चंदर जोती
आयचे राती
वर्स नवें
तांबडे, धवे
रंग शिंपीत
उजवाडाचें गायत गीत
आयलें आज
वर्स नवें
मळबालागीं बोली करूंक
चडले घरार
आकासदिवे...

57.

## रात अजून सरची आसा

रात अजून सरची आसा
वात अजून जळची आसा
काळजांतली कळ म्हज्या
आयज खरी कळची आसा

रात अजून जळची आसा
वात अजून सरची आसा
आज म्हाका चांदनें जावन
तुज्या दोळ्यांत फुलचें आसा

रात अजून जळची आसा
रात अजून सरची आसा
आज म्हाका जीण जावंक
म्हजेच म्हाका मरचें आसा.

58.

## सगलो संवसार आमगेलो

आसूं आपलो, दुसऱ्यालो
सगलो संवसार आमगेलो.

भांगरा-सूर्या सगल्यांचो
रुपाळ चंद्रीम पुनवेचो
जोगला-लखलख कुपांतलो
सगलो उजवाड आमगेलो.

चंवरून आंबो परमळटा
भोंवराक चांफो आपयता
फुलतो मोगरो पोरसांतलो
सगलो परमळ आमगेलो.

दोंगरार वझरो झुळझुळटा
खोसयेन वारो सळसळटा
मेकळो खळखळ भुरग्यांलो
सगलो हांसो आमगेलो.

कुडके केल्या जमनीचे
वांटे जाल्या उदकाचे
मनीस उठला मनशांतलो
सगलो संवसार आमगेलो.

दुकान पोलो भिजलेलो
कांटो काळजाक तोंपलेलो
दुखेस्त, दुबळो, निर्शिलो
हांगचो, लागचो, पयशीलो
सगलो संवसार आमगेलो.

59.

## सुजाता

विचारी ना नांव तुजें
विचारी ना गांव
बुद्धाचो भिक्षु हांव
कसली तुजी जात आनी
कसली तुजी कात
ना गे म्हाका नात
तूं गे म्हजी धाकटी भैण
हांव गे तुजो भाव
बुद्धाचो भिक्षु हांव
जांव चामार जांव भगत
पोसोभर घाल उदक
सगल्यांचें एकूच रगत
सगल्यांचो एकूच गांव
बुद्धाचो भिक्षु हांव

60.

## हांव एकलो एकसुरो

शांत मळब, दर्या शांत
पुनवेची चांदनी रात
शेणलेलीं सपनां म्हजीं
आयलां सोदूंक दर्या - ल्हारांत

ओलो, ओलो वारो मोगा
सगळें आंग शिरशिरता

तुजेबगर काळीज म्हजें
उगडासान हुलपता.

मोगा पिशीं दर्या ल्हारां
कळवळून हुस्कारतात
दोळ्यांतुलीं दुकां-ल्हारां
पोल्याक पिशीं सांसपितात.

वाट चुकून उडत वता
रडत, रडत किरकिरो
हांव गे असो तुजेबगर
एकलो हांगा एकसुरो

61.

## हांव कसो?

हांव कसो?
हांव असो
आंगान मोटवो
कातीन सांवळो
लिक, लिक दोळे
दिसपाक भोळो
थोडो शाणो
चडसो पिसो
हांव असो.

खूब, खूब धांवला
मात्सो पडलां
दुबळो देखून

हड्ड्यांत रडलां
म्हाका दुकां
लोकांक हांसो
हांव असो.

जितलें जोडटां
तितलेंय मोडटां
उलवप थोडें
खूबशें चिंततां
चली म्हण्टा
चिंतून, चिंतून
किदें मेळटा?

62.

## संगीत सम्राट मिकायेल मार्तींश हाका

सगलो संवसार देस तुजो
गांव तुजो ओर्लीं
गोंयच्या ओंठांवयलीं गितां
भांगरा बोटांर झेल्लीं
माणकुलेंच रेबेक तुजें
हड्ड्यालागीं धरता
तेन्ना नवे व्हंकले परी
शिरशिरता, थरथरता.

धर्तरेची प्रीत गाता
सर्गीचें सपन गाता
सातूय दर्यापार वचून
सातूय सुरांत फुलून येता...

63.

## ही म्हजी माती

ही म्हजी माती, ही म्हजी भूंय
म्हज्या आज्या - पणज्या गोबर
हेच मातयेंत पुल्ला गा.
ह्यो म्हज्यो झरी, ही म्हजी न्हंय
म्हज्या भावा - भैणी - रगत
ह्याच उदकांत विरलां गा.
राण्यांचो तीख भालो
ह्याच रानांत लिकलिकलो
सोयऱ्याचो भक्ति - सूर
हेच देगेर परमळ्ळो
हांगा तबल्याक तोंड फुटून
बोल वाऱ्यार उबले गा.

म्हज्या घरा - हुमऱ्याचेर
किंवाट्यान कपलां घेतां
दार केन्ना फुट्टलें?
रगत केन्ना फळटलें?
घाये केन्ना भरतले?
तानेल्ले नदरे मुखार
माड केन्ना धोलतले?
ही म्हजी माती, ही म्हजी भूंय
स्पर्श हिचो हर्ष - दिणो
म्हजे जिणेंत रोयला गा
गोऱ्या गोऱ्या चांदन्या - वेगेंत
मोग फुलून आयलो ना?

64.

## सगली म्हजी धर्तरी

सगली म्हजी धर्तरी
तरीय म्हजे घरशें जाय
व्हडलें म्हजें भाट तरी
धाकलें मुखार ताट जाय
संवसाराचेर मोग म्हजो.
तरीय म्हजो गांव जाय.
सगल्यांपरीच सूर्य म्हजो.
रात येतच वात जाय.

65.

## शींप मुळां

फुलां पानां
पानां फुलां
पोरसूं म्हजें भरून गेलां
उबलीं पानां, उबलीं फुलां
आसा गीम लागीं
ऊठ भावा वेगीं
शींप मुळां, शींप मुळां -
काळजा भितर आमचीं मुळां
मळबा भितर आमचीं मुळां
ओतय उदक, शींप मुळां
खोशयेचीं येतलीं पानां
जिविताचीं येतलीं फळां

नखेत्रांचीं येतलीं फुलां
शींप मुळां, शींप मुळां.

सुकणीं गायत वेतलीं
गोरवां चरूक येतलीं
संवसारांतलीं पोरां थोरां
थंड सावळेंत बसतलीं
गोंयच्या म्हज्या रुखातळा
शींप मुळां, शींप मुळां -

66.

## फुलां आनी कांटे

1

म्हज्याच वांगडा
खंयतरी रानांत
एक रुख वाडटा
म्हाका निमण्या खिणाक
सांगात दिवपाक

2

दिसाचीं सगळीं रुपडीं
रातचीं काडून दवरतां
आनी काळखांत
रुप लिपयतां

3

पुस्तक - रुखाक
पानांच पानां

उतरांचीं फळां
विरामाचीं फुलां
मना-भुंयेंत मुळां

4

मळब दाखयल्यार
कोण दुडू दिना
देखून तांणी
देवूळ बांदलां

5

देवळाक किदें पळेता?
मळबाक पळे
देवूळ मनशान बांदलां
मळब देवान घडलां

6

मळबांत देव
देवळांत भट

7

देवान भटाक केला
काय भटान देवाक केला
कोण जाणा!

8

कांय पावलां अशीं आसतात
तीं रस्त्याक लागनाफुडें
रस्त्याक नवे फांटे फुट्टात
कांय पावलां अशीं आसतात
रस्त्याक लागना फुडें

रस्ते फुटून तुटून पडटात
कांय पावलां अशीं आसतात
रस्त्याक लागनाफुडें
रस्तोच धगधगून पेट्टा
आनी उज्या-जिबल्यो
मळबाक तेंकतात
असलीं पावलां तुज्या काळजार घे
आनी तुंवूय पेटून जा उजो.

67.

## कविता

गीम लागता तेन्ना
हांव, म्हजी कविता
मनाचे मातयेंत मुंगरून दवरतां
पावस झडटा तेन्ना तिका
ताळयो येतात
वोत येता तेन्ना तिका
फुलां चंवरतात
कागदाच्या धव्या फुल्ल शेतांत
ती हालता, धोलता
तुमच्या मनार भांगराळी
सांवळी घालता.

68.

## म्हजी कोंकणी भास

कातले परस फुल्ल धवी
घऱ्यापरस म्होंवी, म्होंवी
पोरणी तरी सदांच नवी
म्हजी कोंकणी भास

पिपरेपरस कवकवीत
लव्या परस लवलवीत
केळम्या परस तिवतिवीत
म्हजी कोंकणी भास

चांफ्या परस फुल्लेली
नाल्ला परस भल्लेली
होंकले परस सोबलेली
म्हजी कोंकणी भास

मोगापरस पर्मळीत
दुकांपरस हुनहुनीत
लोखणापरस खणखणीत
म्हजी कोंकणी भास

पाळण्यांतल्या उतरांची
चुडटांतल्या कांतरांची
मोगाच्या मंत्रांची
म्हजी कोंकणी भास

उमाळ्यांची कळशी कशी
चिंतनांची हारशी कशी
सपनांची सांगशी कशी
म्हजी कोंकणी भास

काळजापरस लागची अशी
धर्तरेचें कवीत अशी
कोंकणाचें जिवीत अशी
म्हजी कोंकणी भास

69.

## अठरा जून

उदक लेगीत जाल्लें रगत
आनी रगत जाल्लें हून
भावा तुका याद आसा
अठरा जून?

बंदखणीचे दुखेस्त चिरे
नवे आशेन धड-धडले
फिरंग्यालें मस्तें बंदेर
थरथरलें, समजलें
वावझडींत वेतलें म्हणून
पिंजून पिंजून...
भावा तुका याद आसा
अठरा जून?

मंगळाराचो आसलो दीस
पावस नेटान पडटालो
आंब्या-मुळांत कुणब्या पोर
कुडकुडत रडटालो
लोखणाचो आयलो पुरूस
खंय साकून कोणाक खबर
ताज्या शिंवा उल्यान गेलीं
आमचीं भुजां शिंवशिंवून

थोरां-पोरां आयलीं धांवत
कोणाक खबर खंय साकून
जुल्माच्या तुबकांतल्यान
उज्या-गुळे गेले सुटून
मनीसपणा पडलो खून
रगताची ऊब मेळून
भूंय आमची जाली हून
भावा तुका याद आसा
अठरा जून?

सोडवणुकीचो आयलो दीस
उठून उबो रावलो मनीस
सगले पास पडले तुटून
भावा तुका याद आसा
अठरा जून?

कितले अशे आयले गेले
अठरा जून!
आंब्या मुळांत कुडकुडटा
कुणब्याचो पोर अजून
मळबाचो माटव मोडून
कुपां फोडून, गडगडून
जोगलां झगझगून
दडकेवरी लोटून, फुटून
येवं दी परत अठरा जून!

भावा तुका याद आसा?
त्या दिसा उगडासान
हड्डें म्हजें पेट्टा अजून
भावा तुका याद आसा
अठरा जून?

70.

## मेज आयलें

मेज आयलें
मेजार बसून कोप आयलें, च्यावन आयलें
आयली सुरी, आयलें कुलेर, आयलो कांटो
आयली बशी
सोंपल्यो आतां उठाबशी.
मेज आयलें, मेजावांगडा कदेल आयलें
कदेल आयलें, पाट गेलो, रांगोळेचो थाट गेलो
आसनमांडी गेली, गेलो शेलो
पुडवें गेलें, जानवें गेलें, पितांबर गेलें,
पत्रावळ गेली, चित्रावळ गेली,
पंचो गेलो, पंचपात्र गेलें, पंचमहाभुतां गेलीं.
पळी गेली, घांट गेली, तिकली गेली
तिळो गेलो, गायत्री मंत्र गेलो,
नाम गेलें, प्राणायाम गेलें, भस्म गेलें
चंदनाचें गंध गेलें.
मेज आयलें, कदेल आयलें
बूट आयले, बुटावांगडा सूट आयलो
गांवगांवचो कोयर आयलो
शर्ट आयलो, टाय आयलो
पांय धुवपा गरज ना, हात धुवपा गरज ना
तोंड धुवपा गरज ना, दांत घांसपा गरज ना
आयलो तसो बसलो, आयलो तसो जेवलो
तितलोच वेळ वांचलो
मेज आयलें, पेज गेली, आमली गेली
कातली गेली.
मेज आयलें, च्या आयली, कॉफी आयली

पाव आयलो, बटर आयलें, सूप आयलो
उजवातीचो परमळ गेलो, पण्टेचो प्रकाश गेलो
कितलें गेलें, कितलें आयलें?
कितलें आयलें, कितलें गेलें?
मेज आयलें, मेज आयलें, मेज आयलें...

71.

## आयज मळब पयस जालां

इतलीं वर्सां तपाक बशिल्ल्या
माड-मुनींची तकली कोणें कातरली.
आमकां आतां नखेत्रांची वाट कोण
दाखयतलो?
आमच्या निळ्या दोंगराचें काळीज
कोणे चिरलें?
आतां आमचें काळीजूच घायाळ जालां.
पाताळाचो सोद घेवपी जाण्टेल्या
वट - वृक्षाचीं पाळांमुळां
कोणे हुमटिलीं?
धर्तरेचें गुपीत आतां
कोण सोदून काडटलो?
काळेकिट्ट डांबरी सोरोप
आमची पाचवीं - चार शेतां
गिळीत वेतात.
तांकां कोण आडायतलो?
आमच्या पर्मळीत वाड्यार विखा धुंवर
कोण सोडटा?
आमच्या नितळ न्हंयांत कोड्डू, कोड्डू झार

कोण ओंकता?
गटाराचे अळशिकेंत बरबटून गेल्यां
खळखळ नाचपी आमच्या वझऱ्यांचीं
ओली, ओलीं पावलां.
आमचो वेळेवेलो भांगरा - धुल्ल
मूठभर भांगराक कोणे विकलो?
सावंरे - बोंडां धवो फुल्ल हांसो
कोणें पिश्टिलो?
खरवतीची खरखर आयकून
रुखावेलें पानपान खर्शेता
सुकणें आतां मेकळ्या गळ्यान
गावपाक कांचवेता
दर्याचो तुफान उलो आयकुपी
आमचीं उत्तीं जनेलां
भेड्डीं जाल्यां.
शिमिटाचे वण्टीचे वंदखणींत
आमचीं मनां कुड्डीं जाल्यां.
पावस - वोत आंगार घेत
आमचें भुरगेपण फुलोवपी
आमचें आंगण कोणे पुरयलें?
संवसारीक येवकार दिवपी
आमच्या बल्कांवाचे चिरे
कोणे निखळायले?
रस्त्यावेल्या चक्रांनी फुडाराचे
कितले कुकूम पुसून उडयल्या
कितली कंवळी हाडां चिड्डिल्यां
घराभायर गेल्लें चली केन्ना
घरा येत कोण जाणा
भुरकेल्ली जांग घेवन



फुटलेलीं कांकणां.
उमेदीचीं उतरां म्हजीं
निर्शेवन पडल्यां
ज्या सपनांक काळीज पिळून
जिविताचो रंग दिलो
तें सपनूच आज विटून गेलां
धर्तरेवेल्या सोबीत सर्गाक
इंद्रनीळ मळब आतां पयस जालां.

72.

**म्हण्टा आवय**

खऱ्यांनीच भल्लेलो
गिन्यानाचो हांव शिसो
तरीय म्हाका म्हण्टा आवय
"सामको पिसो"
कितलीं हांवें काडल्यां वाचून
पुस्तकां
तरीय म्हाका म्हण्टा आवय
"सांगतां तुका"
संवसाराचेर कितलो भोंवन
आयलां हांव
तरीय म्हाका म्हण्टा आवय
"नाका धांव"
कितलीं हांवे दिल्यां लोकांक
शाणेपणा
तरीय म्हाका म्हण्टा आवय
"पोराक किदेंच समजना"

73.

## तुजे दोळे

लांव गो नाका म्हजेकडेन
तुजे म्होंवे मोगाळ दोळे
धीर म्हजो सुट्टा पळे...

चुडट्यांच्या हातान माड
मळबांची पुसता दुकां
तुज्या दोळ्यांत म्हजीं सुखां...

आळवापानार थरथरता
पावसाचें रुप्या - धन
तशें म्हजें धोलता मन...

वोगीच असो फुलोवं नाका
मोगऱ्यांचो कंवळो हांसो
जीव म्हजो जाता पिसो...

74.

**गर्दी**

फुडल्यान गर्दी
फाटल्यान गर्दी
उजव्यान गर्दी
दाव्यान गर्दी
गर्दीच गर्दी
हांव मदीं

दादले, बायलो
जाण्टे, भुरगीं
येदीं, येदीं
हांव मदीं
कोण खंयचे
खंयच्या गांवचे
नांव किदें?
खंयच्यान आयले
खंय वतले
खबर ना
एकूच जाणां
हांव तांचे लागीं
ते म्हजे लागीं
तांचो स्वास
म्हज्या स्वासांत
तांचो वास
म्हज्या वासांत
दोन पायांक
बोटभर सुवात
वयर गोळाक
दोनूय हात

धांवता गाडी
धाड, धाड
कोणाच्या खांद्यार
म्हजी मान
कोणाचे मानेर
म्हजो कान
कोणाचे फाटीक
म्हजें पोट
कोणाच्या पांयार
म्हजी खोंट
कोणाच्या पोल्यार
म्हजें खाड
धांवता गाडी
धाड, धाड
म्हजो तांकां आदार
तांचो म्हाका आदार
म्हजो तांकां भार
हांव तांचो इश्ट
हांव तांचो दुस्मान
खासावीस म्हजो प्राण
खासावीस तांचो प्राण
नाका आसतनां
एकामेकांक तेंकून उबे
नाका आसतनां
एकामेकांत रोमून उबे
मनशांच्या वण्टींमदीं
हांव कैदी
गर्देत हांव
म्हज्यांत गर्दी
हांव गर्दी

75.

## मदले आमी

कालच्यो राती, फायचो दीस
हांचे मदीं - मदले आमी
न्हय भाटकार, न्हय मुंडकार
न्हय घरकार, न्हय शेतकार
न्हय वासरेंत, न्हय रस्त्यार
न्हय शार्गीद, न्हय स्वामी
असले आमी, मदले आमी

आमकां नांगर धरूंक येना
आमकां माडार चडूंक येना
आमकां चुडीत मोडूंक येना
आमकां जळव फोडूंक येना
रोवंक येना, लुवंक येना
खणूंक येना, ताणूंक येना
तासूंक येना, कोंड्या-कामी
असले आमी - मदले आमी.

सोपलें भात, सोप्यार सूप
मोडलें दार, खिळ्याक कुलूप
काण गेलें, उल्लां खीण
बापायक फोल्ग, आमकां रीण
माचूल गेलें, मोटार ना
मानाय गेलो, शोफेर ना
रूमाल गेलो, चेपें ना
झल्लें जोतें, बूट ना
पिंजलें धोतर, सूट ना
पगा घुलो फुटून गेल्यो

खेळूंक येना ब्रीज रमी
असले आमी - मदले आमी.
मनश्या मुखार बागूंक येना
देवामुखार नाचूंक येना
न्हय दॆंवचार, न्हय जल्मी

असले आमी - मदले आमी
न्हय हांगचे, न्हय थंयचे
न्हय आयचे, न्हय फायचे
न्हय पूर्वी, न्हय पश्चिमी
असले आमी, मदले आमी

76.

**भाग्य म्हज्या कोंकणाचें**

दुदापरस फुल्ल धवें
उदक म्हज्या वझऱ्याचें
मळबापरस उत्तें निळें
गीत म्हज्या दर्याचें.

भांगर कशें लकलकीत
वोत म्हज्या सूर्याचें
रुप्या ताटांत पीठ कशें
चांदनें म्हजें पुनवेचें.

हारशेपरस तिकतिकीत
आंग म्हज्या केळम्याचें
पोपटाचें पांख कशें
चुडीत म्हज्या कावथ्याचें.

काळजापरस तांबडें अशें
फूल म्हजें दसणीचें
दसणे परस तांवडें अशें
काळीज म्हजें मातयेचें.

लोखणावरी घटायेचें
हड्डें म्हज्या दोंगराचें
दोंगरापरस व्हडले अशे
हावेस म्हज्या हड्ड्याचे
माणकांनी जोखचें अशें
उतर म्हजें कोंकणीचें.

77.

## खिळाय म्हाका

खुर्साचेर खिळायलेलो
हांवेंच तुका
तूंच तुज्या हातान आतां
खिळाय म्हाका

आंगलें म्हजें पिंजून उडय
झडय भांगरां - थिकां
सगलें म्हजें काडून उडय
दवर तुजी कृपा

सकला म्हाका देंवय नाका
दोळे धांपचे आदीं
दयावंत मातेन मात
रावचें लागीं

जेजू म्हज्या राया
आतां म्हाका खिळाय
तीच दुखी जातली म्हजी
खरी धादोसकाय

जेजू तुज्याच खुर्साभाशेन
म्हजो खुरीस कर
राया तुजो मोगा - सोरो
कोडसाणीन भर

पातक्याचे हात म्हजे
म्हजे पातकी पांय
ठोकून, ठोकून जेजू राया
खिळाय, निबर खिळाय

निमणो तुजो मार भालो
हड्ड्या - भितरी
काळीज फुट्टून रगताची
व्हांव दी झरी

(L.G. LOSEK च्या "TO CHRIST CRUCIFIED" ह्या गीतावेल्यान)

78.

## आठ आठुलीं

1

मोगा-रोपो लायिल्लो तुवें
तुज्याच हातान तोडलो
दुसरे दोळे दिसले आनी
सांगात म्हजो सोडलो
काळीज पिशें रडटा तरी
कांतरां करीत भोंवतां
काजरा तुज्या पावलों जाल्यार
कांतार म्हजें म्हण्टा

2

जेन्ना तुजे दोळे मोगा
म्हज्या दोळ्यांक मेळ्ळे
मोगा आशेन काळीज म्हजें
पाकळे-पाकळेन फुल्लें
तुज्या दोळ्यांक सोदतां आतां
आनी मोगाक रावतां
काळीज म्हजें गेल्लें फुलून
पाकळे-पाकळेन बावता

3

एकदां हांवें देखली तुका
मोगरे - कळे खुट्टाना
काळजा-कळो खुटलो तुवें
केन्ना कसो समजना

सद्दां आतां देखतां तुका
मोगरे कळे खुट्टानां

तुकाय खुट्टून घेतलों गोपां
केन्ना कसो कोण जाणा

4
कळो म्हणून खोयलो माथ्यांत
कुच्च करून तोंपलो कांटो
उदक म्हणून लायलें ओंठाक
काळजा भितर पेटलो उजो
मना म्हज्या तोंपला कांटो
परमळाचीं ओंठांर गितां
काळजाभितर पेट्टा उजो
उदकावरी व्हांवत वेतां

5
मोगाळ तुजें नांव रे मोगा
दर्यावेळेर बरयलेलें
घसाघसा आयलीं ल्हारां
नांव रे तुजें पुसून व्हेलें
    सोबीत तुजें नांव रे मोगा
    काळजावेळेर बरयताना
    दुकां-ल्हारां आयलीं पुणून
    नांव रे तुजें पुसलें ना

6
जेन्ना म्हजे लागीं येशी
तेन्ना तुका सोडून वेतां
जेन्ना मोगा पयस वेशी
तेन्ना तुका सोदूंक येतां
तूं पयस, पयस आसतांना
जियेवप कशें समजना
जेन्ना म्हज्या म्हन्यांत येशी
तेन्ना तुका वळखना

7

जेन्ना तुज्या ओंठार हांसो
म्हज्या मनांत फांतोड जाता
जेन्ना तुज्या दोळ्यांत दुकां
काळीज म्हजें हुंडकेता

जेन्ना मोगा कळ्ळें म्हाका
मोग म्हजो कळना तुका
तुज्या ओंठार फुलता हांसो
तेन्ना काळीज हुंडकेता

8

तुजी नदर पडली म्हजेर
लजेन तुका देखलो ना
उमेदीन फुल्लें काळीज
पुणून मातूय हांसलें ना

चोरून तुका चोयतां आतां
तुजी नदर सोदतांना
ओंठार फुलार हाडटां हांसो
काळीज दुखान रडटांना

79.

## सगलो बाजार आयलों भोंवन

सगलो बाजार आयलों भोंवन
पसऱ्याचो देखलो थाट
वस्तींचो झगझगाट
दोळे गेले दिपून दिपून...

पोवा लातां
रस्मी फितां

पिपरमिटां
रंगी चित्रां
चेंडू बेटां

नायलनच्यो साडयो
कोरदिच्यो गाडयो
वजरांच्यो पिलयो
कांचेच्यो बुलयो

रुप्याच्यो ताटल्यो
भांगराच्यो पाटल्यो
ब्रँडीच्यो बाटल्यो

इंग्लंडाच्यो कातऱ्यो
जपानाच्यो हांत्र्यो
इतालिच्यो सत्र्यो

लोखणाच्यो खिळयो
मोतियांच्यो माळयो
वखदांच्यो गुळयो

वासा फुलां
बुतांव, मोलां
चकचकान, लखलखान
सगलो बाजार भरून गेला

चामड्याचीं जोतीं
रबराचीं खेतीं
शिमिटाचीं पोतीं

लांकडाचीं तोरां
मेणाचीं बोरां

प्लास्टीकचीं पेरां

सगलें जरी आसलें थंय
हात हालयत परतलों
वायल दारार आसली उवी
समजुपाचें समजली
चारूय म्हजीं गुणी पोरां
वाट म्हजीच चोयतालीं
हड्ड्या भितर दामलो हावें
हुंडको मोटो
"सगलो बाजार आयलो भोंवन
तांदळाचो नासलो गोटो!"

80.

**शब्द म्हजो**

कापसा बोंडा सुक्या ओंठार
सदांच हांसो धवो, धवो
रांदनी - चिरो फुटलो तरी
उजो सदांच नवो, नवो
तोच दोंगर, सूर्या तोच
दीस मात सदांच नवो
तेंच काळीज, तेंच रगत
मोग मात सदांच नवो
रंगहीण उदकाचेर
फेणेर सदांच धवो धवो
लिखणी तीच, तोच हात
शब्द म्हजो सदांच नवो

81.

## रडूं नाका फुला

रडूं नाका, वोगी फुला
रडूं नाका, वोगी.
नखेत्रांचीं फुलां खुडूंक
गेला तुजो मोगी.
तुजेच भाशेन एकटे आमी
हड्डें फुटून रडटात
शेणलेल्या भुरग्यांवरी
चारूय वशीन सोदतात
छाती तुजी - तुजी म्हजी
धिटायेची धिगी
रडूं नाका, वोगी फुला
रडूं नाका, वोगी.
तुजेच भाशेन काळीज आमी
सदांच ताका ओंपलां
तुजेच वरी आमकां, फुला
आयज कांटो तोंपला
पाकळ्यो तुज्यो वावचे आदीं
पूस गो दुकां वेगीं
रडूं नाका, वोगी फुला
रडूं नाका, वोगी.
उजवाडाचो हांसो ताजो
पुनवे रातीं फुलतलो
रगताचो रंग ताजो
फांतोडेचेर फुट्टलो.
परमळाची याद ताजी
उरतली गो जागी.

रडूं नाका, वोगी फुला
रडूं नाका, वोगी.
नखेत्रांचीं फुलां खुंटूक
गेला तुजो मोगी...
*(पंडित जवाहरलाल नेहरूंच्या मर्ण दिसा)*

82.

## निळें, निळें सवणें

(बाकीबावाच्या उगडासाक)

निळें निळें सवणें एक
दनपारच्या गो पारा
गोंयचो घोंटेर गेलें सोडून
खंयच्या दिगंतरा.

दूदसागर गेलो सुकून
चित्रवीणा हुंडकेता
पांयजणांचो वड आतां
तिनसांजचीं गाळटा दुकां.

लिकलिकपी नदर तुजी
नखेत्रांनी शेणल्या
मुदयाळीं झुलपां तुजीं
दर्या-ल्हारांक मेळ्ळयां.

स्तब्ध शांत गितार तुजी
मंद मंद पांयजणां
सासायेचो भारा उलो
खंयच आतां आयकूं येना.

चलत राव एकलो आतां
युगां युगां मुसाफिरा
वच्चेलें तें सगलें वचूं
उरचीं उरूं उतरां.

जुलै 1984

83.

**जोगलां**

1

मळबान आज धर्तरेंत
एक जोगूल रोयलां
आज ना फाल्यां धगधगतलीं
उज्यां - फुलां

2

जोगलां म्हळ्यार
उजवाडाचीं पावलां
तीं काळजांत रोमचीं म्हणून
असो उक्त्यार रावलां

3

म्हजे पासत, दिसरात
ही पण्टी मिणमिणटा
हांव मात त्या जोगलाचे यादीन
तळमळटां

4

जोगूल थङ्यार पडटा

तेन्नो मेल्लो मनीस

उजो जावन उठ्ठा

5

तुजे नदरेन

मागूं नये तें मागलें

आनी म्हज्या हड्ड्यांत

एक जोगूल जागलें

6

हो अजापाचो रुख

पळेला?

मळबांत मुळां

धर्तरेर फुलां

7

मळबाच्या आंगणांत

जोगलाचो खेळ पळेलो

हांवूच जोगूल जालों

8

क्रुध्द रुद्र

तिडकेन त्रिशूळ मोखता

आनी मळबांत

जोगूल झगझगता

9

जोगूल चुकून

ह्या कागदार पडलें

आनी उज्या-वळ

दवरून गेलें...

84.

## सूर्य स्तुती

धगधगीत तूं मंत्र उज्याचो
उजवाडाची गीता
तुज्या रुपाचें दर्शन घडटांच
व्हंकल धर्तरी हांसता

झगझगीत तूं जैत झुजारी
शेंवटीत किर्णां भाले
अंधाराचे अजस्त्र राक्षस
दुवळ्यो सांवळ्यो जाले

रथ भांगराचो तुजो भास्करा
भांगरा-घोडे ओडटात
मळ मळबाचें मेकळें सोडूंक
कुशीक तारे सरतात

सगले सातूय दीस सूर्याचे
नक्षत्रांच्यो राती
तुज्याच उजवाडाचे उगडास
आमच्यो मिणमिण वाती

तुकाच देखतां रुखार उडटात
घोंटेरातलीं कवनां
इंद्रधनूचेर तूंच चितारता
सप्तरंगी सपनां

दोंगरा-मांडयेर सुस्त न्हिदिल्ले
वारे जातात जागे
नुलयत धांवतात उसयत रावतात

तांबडे दसणी - बोंगे

दुर्गावेलो तांबसो कोंबलो
फुलयत हड्डें सादता
तरणो तायखिळो कवडां उगडून
तुकाच येवकार ओंपता

तृण-पात्यांची उमेद पाचवी
तुज्याच हांशान खुलता
सोबीत - साळीक परमळ पाकळ्यो
मेकळ्यो मेकळ्यो करता

पुण्य पुरातन विश्वकवी तूं
स्फूर्त दिशी तूं चंद्रा
तुज्या उज्याच्या ओंठार फुलयतात
उजवाडाचीं उतरां

वाट चुकलेलीं भुरगीं आमी
आपटून धपटून चलतात
शिंया कुडकुडो भंया थरथरो
कुडीक आमचे पिडटात

उजवाडाची वाट दाखय गा
उजवाडाच्या स्वामी
तुजो उजो ओत मनांत आमच्या
पेटून उठचे आमी

तुज्या कुळाचो कवी माणकुलो
तुकाच ओंपता आर्गां
तुजे कृपेची नदर पडली तर
ओडून हाडीन सर्गा

85.

## काळखाच्या खुर्साचेर

काळखाच्या खुर्साचेर
उजवाडाच्या जेजू
काळखांतलीं पातकां म्हजीं
कितलीं कशीं मेजूं?

माथ्यावेले कांटे जाले
मळवावेले तारे
घामाचे थेंबे जाले
अमृताचे झरे.

दुकाळ तुजो उलो जेजू
काळीज हालयत गेलो
हड्ड्यांतलो घाय तुजो
जिवित फुलयत गेलो.

मर्णाच्या खुर्साचेर
जिविताच्या जेजू
खीण खीण जीण म्हजी
तुज्याच पांयार मेजूं...

86.

## तूं नासून

तूं नासून कोळयांनी
कोनशांनी विणल्यां जाळीं
तूं नासून आयदनांनी
खुमणीं केल्यां किट्ट काळीं.

थंड किरांव जावन रांदन
हुनसाणीची देखता वाट
वण्टीचेर नाक तेकून
आदोळी ही करता फाट.

आपली मान उमथी घालून
कोळसो पिसो हुंडकेता
कोंडाळ्यानी बावडो राजू
आपले भितर पिंरगता.

मोनी कशी सान्न उबी
बुडकुल्याचो सुकला गळो
फुलचे आदींच वावन गेला
माटवावेलो मोगरे कळो.

तूं नासून दिवलेंतली
अर्दकुटीच जळटा वात
तुजेबगर व्हडली जाता
एकसुरीच काळखी रात...

87.

## म्हजो दीस जालो तेन्ना

म्हजो दीस जालो तेन्ना
रात आसली
आवय थोडी रडली
रडटां रडटां हांसली
आजयेन नातवाक चोवपाक
दिवलेंतली वात सारली
त्या वेळार मळबांतली वीज
घरांत देवंक नासली.
पाखो जोती भोंवतणी गिर गिर उडलो
फडफडलो पडलो
हांव ओगीच रडलों
वैजिणीन म्हळें "चलो जालो!"
आजो मिश्यांतल्या मिशयांत हांसलो
वापूय बरय बरयतना
मात्सो थामलो
पणजेन उखल्लो
मावशेन सांसपिलो;
शेजाम्रीन पारखिलो
"दिसूंक काळो माजराचो पिलो!"
सगलें घर जागें जालें
"पयलोच जालो बरें जालें!"
हें सगलें मागीर हांवें आयकलें
त्या वेळार म्हाका दिसनासलें
आयकूंक येना आसलें
पूण अशेंच घडलां जातलें
म्हजी आजी सदांच सांगताली,

"तूं जाल्लो तेन्ना रात आसली".
आनी आतां रात जाता
तेन्ना
वोगीच म्हाका दिसता
म्हजो जल्म जाता...

88.

## ज्या घरांत

ज्या घरांत ना दिवो
ना उजो
त्या घरांत पेट्टलो
मोग म्हजो.

जो बळान मोन्या कळ्याक
खुंट्टलो
शब्द म्हजो जावन खिळो
तोंपतलो.

फाटीं पळेत रडपी न्हय
म्हजी प्रीत
थरथरत्या ओंठार म्हज्या
फायचें गीत.

एकूच म्हजी तान; एकूच
म्हजी भूक
हांसत हांसत संवसाराचें
सोंसचें दूख...

89.

## तूं आमची

अप्रुपाचे तांबडे भुंये
आमी तुजे, तूं आमची
जाण्टेल्यांच्या उगडासाची
पाळण्यांतल्या फुडाराची
तूं कालची, तूं आयची
तूं आमची

कणसांच्या भांगराची
सांवरेच्या चंवराची
खोसयेच्या हुंवाराची
तूं आमची.

पावसाच्या कवनांची
सूर्याच्या पोवनांची
चांदन्यांतल्या सपनांची
तूं आमची.

मोगरे-कळ्यांत वास जसो
हड्ड्याभितर स्वास जसो
इंगळ्या पोटांत जाळ जसो
तशे आमी तुजे आनी
तूं आमची.

रगतांतली शक्त तूं
काळजांतली म्हूर्त तूं
पर्जळीत स्फूर्त तूं
तरण्या म्हज्या उतरांची
तूं आमची.

90.

## मन म्हजें पिसोळें

मन म्हजें पिसोळें
ह्या फुलार, त्या फुलार
जायां मळ्यार
साळका पोल्यार
अमुरपिक्या आंब्या फळार
मन म्हजें पिसोळें
ह्या फुलार त्या फुलार.

पिंपरेच्या कंवळ्या देंठार
आंकवारेच्या तेंडले ओंठार
तळ्या पोटार
साये बोटार
मोगरे कळ्यार
निळ्या दोळ्यांर
मन म्हजें पिसोळें
ह्या फुलार त्या फुलार.

91.

## मांडवी

मांडवी!
तूं म्हजी पयली प्रीत
तुजे देगेर म्हजो गांव
तुज्या आंगार खेळ्ळों हांव

तुकाच हांवें ओंपलेलें
लुडबें म्हजें पयलें गीत
मांडवी तूं म्हजी पयली प्रीत.

दनपारच्या भांगरा-वेळार
तुज्या दोळ्यांत देखली हांवें
सूर्या फुट्टून फांकलेलीं
रुप्या-थिकां लिकलिकीत
मांडवी! तूं म्हजी पयली प्रीत

हांगाच हांवें आयकलेलो
संवसाराचो उक्तो उलो
सपनांनी भल्लेलीं
सोडलीं व्हडीं तुज्या ल्हारार
दर्या सातूय आयलो भोंवन
तुज्या धिरार
मोगा-रुच कळचे आदींच
तुज्या ओंठार चोखली हांवें
अस्तुरेची कोडू प्रीत
मांडवी! तूं म्हजी पयली प्रीत.

थंड शितळ शिंवर तुजो
घेवन तोंडार भुरगो जालों
मीर्गाच्या तांबड्या मोडांत
झुजत झुजत जाण्टो जालों

खर्शेलों निर्शेलों हर्शेलों
मर्ण आनी जिविताचे लागचें नातें
कळ्ळें म्हाका तुजे मिठींत
मांडवी! तूं म्हजी पयली प्रीत

92.

## ए पुनवे राती

ए पुनवे राती
राव मातशी
चांदन्याच्या पांयान अशी
धांव नाका
थोडो तरी वेळ अशीच
रावं दी म्हाका
काळे काळे दोळे ताजे
दोळेभरून चोवं दी म्हाका
तूं मात ताका बाये
चडशी अशी पळोवं नाका
म्हजेचभाशेन जाशी पिशी
ए पुनवे राती
राव मातशी.

93.

## म्हाका वेळ ना

हे मोगरे-कळे पळोवंक
म्हाका दोळे नात
हो कुपांचो रुप्या-पदर चोवंक
म्हाका नदर ना
हीं चवरां, हीं फुलां देखूंक
म्हज्या घराक दारां नात
सूर्याच्या किर्णांक
म्हजे कुडींत रिगाव ना

पोरसांतली पाचवीचार केळ म्हण्टा :
“मात्सो राव पापया
हें घडावलें पळे”
पुण म्हाका वेळना
सगळो वेळ वेता
घड्याळ पळोवपांत
बस चुकल्यार गाडी चुकताली
गाडी - चुकल्यार, मिटिंग चुकताली.
जमनीर पडत, पडत
म्हण्टात हीं चांफ्या फुलां :
“हाका किदें जालां?
हो धांव, धांव, धांवता
आनी परतो
हांगाच पावता
हाका खंय वेळ ना
हाका किदें कळटा?
धांवलो म्हणून
वेळ मेळटा?”

94.

## रस्ते

हे रस्ते
चलपाचे काय मरपाचे?
हे काळेकिट्ट तक्षक
नरभक्षक
वखवखलेले, वसवसलेले
रगताक संवकल्ले
रगतान माखलेले
रानां गेलीं पानां गेलीं,
तळयो गेल्यो, गेल्यो घोली
पाचवीं चार शेतां गिळीत
आयले हे रस्ते
नागडे, उगडे, उक्ते, नश्टे, मस्ते
घरघरपी यंत्र आयलें
फातराचें तेल आयलें
धुंवराचें जालें जिवीत
रस्ते वाट विसल्ले
आतां ही वाट - मर्णाचो घाट
आतां ही वाट - रगताचो पाट
आतां ही वाट - यमराजाच्या
दरबारांतलो जिवघेणो थाट
वेग आयलो आयली गती
दीस आनी राती
मनशाच्या रगताचीच आहुती
कितले गेले उमेदीन
हांसत खेळत नाचत गायत
हाडां मोडून भुजां तोडून

तकल्यो फोडून
आयले परत
आपल्याच रगतांत
न्हायत, न्हायत
हे रस्ते निलाजरे
हे रस्ते फटकिरे
रस्ते, रस्ते, रस्ते
आरतें परतें जालें जिवीत
जिवीत आरतें, परतें.

95.

## तूंच म्हजो स्वास जावन

तूं तऴपांत, तूं मळबांत
पाना-फुलांत धोलता
संवसाराचो स़्वामी तूं
दिसना तरी आसता.

तूं सूर्यांत, तूं दर्यांत
तूं वझऱ्यांत व्हांवता
तूंच म्हजो जीव जावन
रगताभितर घोळटा.

तूं जोगलांत, तूं वादळांत
तूंच उज्यांत जळटा
सगल्या भितर आसून तूं
सगल्या भायर उरता.

देवळाभितर सोदतां तुका
गांव गांव भोंवतां
तूंच म्हजो स्वास जावन
म्हजेच भितर रावता.

96.

## हांव गोंयचो आनी गोंया भायलो

हांव गोंयचो आनी गोंया भायलो
ल्हान तसो व्हडलो
उदेन्तेचो आनी अस्तमेचो
धर्तरेचो आनी मळबाचो
विजेची धार, वाऱ्याचें ल्हार
हीं सगळीं म्हाका प्यार
सुखाचीं फुलां
कश्टाचे कांटे
हे म्हज्या जिविताचे वांटे

हांव दुबळ्यांक वेंगायतां
भुरग्यांक हांसयतां
जाण्टयांक समजायतां
पिशांक नाचयतां.
घाड्यांक कुदयतां
नाडांक बुड्डितां

हांव रागाक पालयतां
उमेदीक पेटयतां
उजवाडाक फुलयतां
मनशांक जागयतां

फुडाराक आपयतां

जंय चडटी थंय म्हजी वाट
जंय पावतां तें म्हजें भाट
सकल माती, वयर मळब
हो म्हजो थाट

जी उलयता ती म्हजी भास
जो मेळटा तो म्हजो ग्रास
जंय रावता तें म्हजें घर
जें दिसता ती म्हजी नदर

हांव गोंयचो आनी गोंया भायलो
ल्हान तसो व्हडलो

97.
## खारो, खारो वारो




खारो खारो वारो
खारे तुजे ओंठ
गोड, गोड घोंट
घेतलो हांवें

खारी, खारी ल्हारां
ओलो, ओलो वारो
घेवन उमे गेलो
म्हजे, तुजे

गूंज सूर्य-बिंब
दर्या खाला बुडलें

मन म्हजें शेणलें
तुज्या दोळ्यांत

खारो, खारो वारो
दिसा वांगडा उबलो
उगडास मात उल्लो
म्हज्या मनांत

98.

## सगले दीस सारके तुका

(माँ ब्लां वेल्या विमान अपघातांत सोंपिल्ल्या कार्मु रेबेलु हाच्या उगडासाक)

पडलो गळून फुलतो कळो
पर्मळाची जाली माती
सगले दीस सारके तुका
सगले दीस काळख्यो राती...
जनेलाचेर एकटी चली
वाट तुजी चोयता अजून
वियोलाची तार तुट्टून
गीत वाऱ्यार गेलें उबून
जाण्टेल्यांच्या दोळ्यांतुलें
सपन भिजून हुलपलें
फुडाराचें सवणें कोणें
पयस व्हरून पिश्टिलें
थंड धव्या दोंगरा-कुशींत
पावल तुजें गोठून गेलां
हांगा काळीज जाळीत वेतात
उगडासाचीं उज्या फुलां...

99.

## दर्यार तुफान

ल्हारार ल्हार, ल्हारार ल्हार
दर्यार तुफान
आयलीं घुंवत मोडां
पिंजून गेलीं शिडां
फळ्यान फळें वेगळें जावन
व्हांवन गेलें ल्हारार

मळब जालां म्हेळें
उदक काजळ काळें
झगझगाचीं चावकां मारीत
जोगूल कुपांर स्वार.

आयलां वाऱ्याक चडून
सगलें वेता फोडून
चुडटांच्यो केश्ट्यो ओडून
घालता खाला माड.
येरें गेलें मोडून
नांगर गेले बुडून
ल्हारूच आतां तारू करून
तारया तुका तार
ल्हारार ल्हार, ल्हारार ल्हार
दर्यार तुफान.

100.

**पावस**

मळबावेल्यान देंवता पावस
मोतयांची पडटा रास.

धोल रे माडा, धोल, धोल
न्हंये मोडत चल, चल
नाच गो फुला, नाच, नाच
मळबावेल्यान पडटा पावस.

भाता रोंप्या भायर सर
आंब्या मुळांत नाचता मोर
हांस रे झऱ्या हांस, हांस
मळबावेल्यान रकता पावस.

पडटा पावस शिरी, शिरी
खोशी जाल्या धर्तरी
पावस म्हळ्यार सर्गाची
भुंये लागीं मोगा-भास
मळबावेल्यान देंवता पावस.

101.

## इतले बेगीन नाका वचूं

इतले बेगीन नाका वचूं
कितलें तरी सांगचें आसा
रुप तुजें दोळ्यांत म्हज्या
पुराय भरून घेवचें आसा

सूर्या गेला निक्तो धारेर
काळखी अजून फांकची आसा
आमच्या घरामुखार पळे
पण्टी अजून पेटची आसा

साळीक अजून उत्तें आसा
भोंवर अजून मेकळो आसा
न्हंयवेलें ल्हार अजून
देगेर फुटून न्हिदचें आसा.

रातची राणी फुलची आसा
तिज्या वासांत, तुज्या स्वासांत
मोग म्हजो विरचो आसा
इतले बेगीन नाका वचूं
कितलें तरी सांगचें आसा.

102.

## सूर्य - देवा

दोंगर-गाळी चडत, चडत
सूर्या तुजो आयलो उलो
कवडां, दारां कुशीक सारून
म्हजे कुडींत पावलो
पातयो म्हज्यो पाकळ्यो कश्यो
थरथरल्यो, उक्त्यो जाल्यो
थंड पोले तामशे जाले
हुनहुनीत तुजो उलो
म्हज्या आंगांत सळसळ्ळो
काळजा - तळें उपाट भरून
रगताचे वझरे म्हज्या
शिरेशिरेंत लागले व्हांवंक
सपनांचें कोगूळ कशें
मना आडून लागले गावंक
ल्हवूच हांवें चोयलें भायर
दिश्ट नवी आयली म्हाका
सृश्ट नवी दिसली म्हाका

सूर्य-देवा, हात तुजो
लागता ताजें भांगर जाता
बावलेल्या सूर्य-फुलाक
कंवळी नवी कांत येता
कंवचेचें काळीज फुटून
इंद्रधणून भरून वेता
पोपटा-पिलाक फुट्टा ताळो
काळखांच्या भिवन भुतांक

दडलेलो भुरगो वारो
लागता काडूंक धुमशेणां
दर्याचे निळे कुशींत
न्हिदलेलें कुंवार ल्हार
करपांच्या उक्त्या भुजांर
शिंपडायता फेणेर फुलां
हालता झाड, धोलता माड
मळबाच्या तामश्या पोल्यार
पाचवीं बोटां भोंवडायता
जांबळे - धोलींत उठ्ठा चानी
शेंपडी हालयत तिटतिट्टा
गोठ्यांत पाडो माणकुलो
फांकारून आपले कान
तुजो उलो आयकता
तायखिळ्याचीं आळशीं पानां
जोडलेले हात सोडटात
पिसोळ्यांक दुदणी - कळो
हडवो - ताल्ल मारता उलो
दुर्गाचेर रावन उवो
निळशीं पांखां फडफडायता
रगता-तुरो थरथरायत
तकली बागयत, हड्डें फुलयत
घालता साद तरणो कोंबो...

103.

## म्हाका अशें दिसलेलें

म्हाका अशें दिसलेलें
भुकलेले नदरेमुखार
ताट उपाट भरतलें
सुकलेल्या ओंठां-मुखार
दुदा-पाट व्हांवतले
भुरग्यांच्या पोल्यां-फुलार
रंग नवे खेळटले
सगले आमी भाव-भाव
हात हातांत घालतले
अशें म्हाका दिसलेलें

जांणी आपलीं भाटां विकून
गरिबांचीं भल्लीं पोटां
तांच्या रित्या पानार आतां
शिता-गोटे फुलतले
मेकळें-मळब सोडून जांणी
तरणेपणा-खीण दिले
बंदखणीक
कंवळें, नितळ आंग दिलें
एकचाराचें, उरचें म्हणून
सदांच नवें लकलकीत
स्वतंत्राये - पर्वणीक
तांचेमुखार नेण्ट्यांचे
हात आतां जोडटले
फाटले कांटे जावन कळे
तांचे वाटेंत हांसतले

अशें म्हाका दिसलेलें
जेन्ना आमी घेतले लडे
तेन्ना दुकां गाळ्ळीं नात
जेन्ना म्हज्याच देखले भावांक
खुशालकायेन नाचतना
परक्यांचें धोलकें बडयत
तेन्ना मात अकस्मात
हड्डें फुटून आयलें रडें
जांणी काळो बाजार करून
काजार कशें जिवींत केलें
वावराड्यांच्या घामांत घोळोवन
मातयेचें भांगर केलें
खोंपयांचेर जोत फिरोवन
वायलेखातीर गोंट केले
तांकां आतां कळटलें
करचें तशें भरचेलें
अशें म्हाका दिसलेलें.

अस्तुरेची ऊब जांणी
रुपयांचे थंडसाणीन
घेतली विकत
सरकाराचे कृपे-दंवार
जांचीं शेतां गेलीं पिकत
जांणी दुडू घेवन माथ्यार
मनीसपण गुड्डिलें
बोटा-बोटार निथू नाचयत
दुबळ्या-भोळ्यांक भड्डिले
तांणी आतां फेडचेलें
अशें म्हाका दिसलेले
ज्या हातान हाणल्यो मुठी

आग्वादाचे वण्टीचेर
त्याच हातान कशे पुसूं
बूट नव्या सरकाराचे
मूठ म्हजी भरची म्हणून
बंद्यांचे हात तुमचे
सरपळ्यांक संवकल्ले
पांदऱ्यांतलें मन तुमचें
उक्त्या वाऱ्याक कांचवेल्लें
निळें मळब पिंवचें कशें
पोशे भरून
तुमकां कशें आसचें खबर?
एके रातीं, काळखे रातीं
लिक्क विजे-उजवाडांत
देखलें हांवें हयन्हयशें
फुडाराचें चित्र कशें -
तेंच सपन येवन रुपाक
दोळ्या-दोळ्यांत, घरा-घरांत
कुदळ-खोऱ्यांत, माडा तुऱ्यांत
दरयाच्या रुप्या ल्हारांत
झिगझिगीत हांसतलें
अशें म्हाका दिसलेलें.

104.

## शणै गोंयबाबाक

'म्हजी बा खंय गेली?',
घराघरांत घुंवलो उलो
सडसडीत सुक्या सड्यार

अमृताचो पावस घालो.

शस्त्रांवरी उतरां शेणय
आमच्या हातांत दिवन गेलो
दिवन गेलो, कुदळ, खोरें
पारय आनी घमेलां.
तीच कुदळ, खोरें घेवन
आमचो आमीच फोंड खणला.

लिखणेच्या वज्र-थिकान
गिरे-तारे निखळायले
काळ्या-निबर तळपांचेर
उज्या-उतर कोंत्रायलें
त्याच तिख्या तोंकान आमी
एकामेकांक धोंगशितात
नाक्शेल्ल्या नाखटांनी
किंवाट्यान फांपशितात.

गरुडाचें पांख कशें
उडटां, उडटां तुटलें?
मांडविचें भरते-ल्हार
अकस्मात आटलें?
कितलीं झुजां झुजले आमी
कितलीं जैतां जोडलीं
नीट वाटेंत आतां कशीं
पावलां अशीं अडलीं?

तुफान - मोडां झेल्लीं आमी
कितलीं पिशीं जोगलां
आडोळ्याचे वावझडींत
आमचो दिवोच शेणला.

105.

**बरोवप कित्याक?**

दर्या वेळेर पळचें सोडून
आंव्या मुळांक लोळचें सोडून
पोरां वांगडा खेळचें सोडून
कवडां धापून बरपा कुडींत
घेवन
पानांच पानां बरोवप कित्याक
बरोवप कित्याक?

विचारांचें सुकणें पिशें
येता, येता, चिवचिवता
थरथरता, फडफडटा
फडफडूं दी, चिवचिवूं दी
फडफडून वेतलें उडून
उतरांचो दाखोवन दिवो
ताका घरांत हाडप कित्याक
बरोवप कित्याक?

शव्दांच्या बुडबुड्यांक
लिखणेच्या फुटक्या तोंकार
नाचोवप कित्याक?

जिवीताच्या आंगार
जिरजिरीत पांगरूण हें
घालप कित्याक?
संवसाराचे पोकळसाणीक
उतरांचे पोकोळसाणीन
बरोवप कित्याक?

जिविताचे सोंपतेर
आनी वगीच बरोवप कित्याक?
वरोवप कित्याक?

106.

**माणकुल्याक पयलीं धर**

फाल्यां बरय, परां वाच
फावल्या वेळार चिंतना कर
माणकुल्याक पयलीं धर

तानेल्ले दोळे ताजे
तुजे दोळे सोदतात
आशेल्ले पांय ताजे
तुजेकडेन मोडटात
मोगाळ काळीज मागता मोग
सगलीं कामां कुशीक दवर
माणकुल्याक पयलीं धर

धाकटुलेच हात ताजे
साळकां भाशेन फुलतात
दांत ताजे मोगरे - कळे
अर्दे फुलून थामतात.
हांसो ताजो गळचे आदींच
वयल्यावयर जिखून धर
माणकुल्याक पयलीं धर

आंकूर कशीं कंवळीं बोटां
तुज्या केंसांत घुस्पूं दी

दसणे - कळे ओंठ ताजे
तुज्या पोल्यांक सांसपूं दी
कोप तुज्या जिविताचें
अमृतान उपाट भर
माणकुल्याक पयलीं धर

107.

**कलकत्ता**

कलकत्ता!
चुरिल्ल्या कागदाचेर
वांगड्या-तिकड्या अक्षरांनी भिरकटायल्ली
सोवीत कविता
वाचतां, वाचतां केन्ना सरळ सपाट करून
वाचची पडटा.
मनशांच्या झिली - झोंपांनी उपाट
अशे हे शेनाकशेक घाट
आदल्या सुकिल्ल्या सांगाड्यांचेर हांगा
वखवखिल्लीं गिदां अजून भोंवर मारतात.
मोडिल्ले वण्टींचे खांचींत बसून
निळशे पारवे मोगा-गितां हुंकारतात
हांगचे लोक हड्डीं फुलयत, हड्डीं फुटसर आड्डतात
नाखटां कश्यो लिखण्यो घेवन
एकामेकांक बुड्डितात
द्राक्षांचे घोंस कशे, रंगयाळ्या मनश्यांचे
चोमे घेवन, बशी येतात, वेतात
केन्ना फुटत कोण जाणा

चिंतनां, सपनां, कवनां, भाशणां
हांचें हें शार, जिविताचें खळखळपी ल्हार
गुलगुलीत बावल्यांचें, सुडसुडीत पोरांचें
किडकिडीत रिक्शावाल्यांचें, हें शार
उर्बाचें, आशांचें, रोशगुल्लां वासाचें
गंगेचे गोडसाणीचें, दर्याचे खारसाणीचें
गटारांतले घाणीचें, गर्देचे घामसाणीचें
मदन्मस्त जैताचें, निर्शेल्ले हारीचें
सूर्याचे नदरेचें, पावसाचे धारेचें हें शार
हांगाच्या अनवळखी रस्त्यांत पावल थारता
तेन्ना म्हज्यांतलो अनवळखी हांव म्हाका मेळटा
आनी कलकत्ता, एक चुरिल्ली सोवीत कविता
हळूहळू कळूंक लागता.

108.

## तोच म्हजो गांव

जंय चिमण्यो चिंवचिंवतात
जंय पिपऱ्यो कवकवतात
वाटेवेल्याक मेळटा उतर
‘आज आमगेर राव’
तोच म्हजो गांव
जंय चुडटां सरसरतात
जंय कणसां लिकलिकतात
तळयेदेगेर सांजवेळा
‘डरांव! डरांव!’
तोच म्हजो गांव
जंय घांटी घणघणटात
जंय घुंगरां किणकिणटात
सांजेवेळार मागणें एकूच
‘देवा सायवा पाव’
तोच म्हजो गांव
जंय चंवरां परमळटात
जंय कातरां थरथरतात
सैमाचे रंग देखून
जिविताचो रंगता डाव
तोच म्हजो गांव

109.

## दवरणें

असांच शारांत भोंवताना दिसलें एक ओश्पिताल नवें ताल्ल
भायर पाटी :
वांदपी : शेट पोपटलाल मखनलाल अगरवाल
वर्स : एकूणीसशें साठ साल
बुन्याद मारपी : गोव्हेर्नादोर जेराल
फ्रांसिश्कु जुझे सालिश इ काब्राल
उक्तें करपी : मजूर मंत्री, फोंडू धोंडू वकाल
रावपी : पर्तगाळ, देवळाची धर्मसाळ
मराठी तिसरी पास, बरोवपी : नाटकां :
"काळखांतलो काळ" आनी "निळो वेताळ"
कथा : "ती सकाळ"
कविता : "काजवांची माळ"
आनी एक इतिहास "अठराशें वीस"
मनांन म्हळें : "केदो व्हडलो म्हामनीस केदो व्हडलो गोंयकार"
आनी गेलो मुखार, दिश्टी पडलें देवूळ काळ्या कृष्णाचें धव्या फुल्ल पाशाणाचें
सपणाचेर अक्षरां
"बुन्यादीचो पयलो चिरो
उद्येग मंत्री पिशेशणाय किरकिरो
वापूय : उश्णेशणाय किरकिरो
आजो : कट्ट्यांचो वेपारी : कुस्केशणाय किरकिरो
गांव गडगडो, वांगड्या वाडो.
पाशाण दिलां : सोयरू सावकारान
वापूय नागडो हाच्या नांवान
शिमीट : पोको परवूचें
भांगर : शेड्डू शेटीचें
मदेर : म्हाड्डू म्हाल्याचें

दिवली दिल्या : दत्तू देवळ्यान
वायली बरी भाशेन सुटली म्हणून
पायजेल घालां : पारू पार्शेकान्नीन
शेणलेलें कांकण मेळचें म्हणून
घारसो घाणेकारान घाल्या घांट
कृष्णाक जोडून हात, भायर सरलों
मुखार दिसलो : न्हंयेवेलो नवो पूल
वांदलेलो : एंजिनियर्स लिव्हलपूल ॲण्ड लिव्हरपूल
पयलो खांवो घालो :
बांदकाम मंत्र्याचो खासगी चिटणीस
गयाराम गोकूळ
पयली मोटार चलयली :
राज्यमंत्री रामचंद्रन त्रिशूल
हांवें म्हळें : वंडरफूल
दिसलें मुखार : खेळा आंगण
बांदलें : एकूणीसशें एकूणसाठ वर्सा
सेतेंब्राच्या सोळाव्या दिसा
पयली कुदळ मारपी : जेनेराल आन्तोनियु सेबाश्तियांव रोदोल्फु मेंदोंस इ सा
कॉंत्राद घेवपी : ऑल इंडिया, पाकिस्तान ॲण्ड सिलोन
स्पोर्टस ॲसोसिएशनाचो जोड येजमान
पेस्तोनजी मंचरजी माणीकशा
पयलीं खोंट मारपी : मुखेल मंत्र्याची व्हडली चली
सातवी शिकून घराच राविल्ली बेबी सुशा
येतना परत गांवांत म्हज्या
दिसलें वाटेर सुक्या सड्यार फातरांचें दवरणें
कोण जाणा कितले पावस, कितलीं वोतां
देखलीं ताणें.
चेपलेले मानेखातीर
हुलपल्ल्या पांयांखातीर

थकलेल्या हातांखातीर
तापलेले तकलेखातीर
बांदलेलें
केन्ना जायत आनी कोणें?
दवरण्याचे काळे फांतर
पळेत रावलों हांव
बांदप्याचें नासलें नांव
बांदप्याचो नासलो गांव.

110.

## कोंकणीचो उलो

हिमालयां-पाया लागीं
गंगेचें उदक चोखीत
वेदांच्या मंत्रांचो
पयलो-वयलो हो उलो
दोंगर, शेतां, मळां उपून
दर्या-देगेर पावलो!
सांजवेळच्या कवनांतल्या
मोगऱ्यांच्या परमळान
भल्लेलो!
आवयच्या आल्लयांतल्यान
माणकुल्यांनीं दुदावांगडा
रगताभितर घोळयलेलो!
होंवयांच्या म्होंवान माखून
जाल्लो म्होंवो हो उलो!
भांगराच्या कणसांनी आयकलेलो!
कोलवा-खोपींत निबर हातान

दिवो कसो राखलेलो!
माडांचे तेंगशेचेर
रेंदरांनी वयल्या वयर
ओंठार जिखून धल्लेलो !
धालांच्या ताळ्यांचेर
घुमटांच्या तालाचेर
थरथरत फांकलेलो!
मांड्यांतून मोडत, मोडत
धुलपदांचेर हालत, धोलत
कांतरांतल्या उतरांतून
माचयेचेर फुल्लेलो!
फिरंग्यांच्या बावट्यालागीं
झुजत, झुजत खर्शेलेलो !
देवळाच्या घुडाभितर
घुंवत, घुंवत
देवालागीं पावलेलो !
खुर्सावेल्या क्रिस्ताच्या
निमण्या उल्यांत लिपलेलो!
हो उलो मेकळो जावन
काळजाचो थाव सोदता
जिविताचेर जैत जोडपाक
मोगाचें मोल मागता!

111.

## जय परमेशा

जय परमेशा, जय जगदीशा
तूं तर अंतर्यामी
तूं राजांचो राजा देवा
संवसाराचो स्वामी.
तृणपात्यांतलो पाचवो रंग तूं
परमळ पुष्पांतुलो
जिवा - जिवाची जीव-शक्त तूं
अग्नी सूर्यांतुलो.
तूं भक्तांचो त्राता आनिक
दीनांचो कैवारी
तूंच सारथी रथार आसतांना
कोण कोणाचो वैरी?
सर्व-व्यापि तूं, सर्वसाक्षी तूं
अनंत अविनाशी
संवसाराच्या हुलपांत दी गा
शीतल सुख-शांती...

112.

## अशी कित्याक लिपशी?

कांकणां तुजीं किणकिणायत
दारा आडूच रावशी
पदराचें तोंक चाबीत
चोरून म्हाका चोयशी
अशी कित्याक लजशी सांग
अशी कित्याक लिपशी?
कापड तुजें सळसळायत
मोडत, मोडत चलशी
विलुदाच्यो मुदयो अश्यो
गोऱ्या-पोल्यार सोडशी
व्हडले दोळे करून ओले
ल्हवूच म्हाका चोयशी
फुलावरी फुलत्या मोगाक
कळयेवरी धांपशी
अशी कित्याक लजशी सांग
अशी कित्याक लिपशी?

113.

## पान तुजें सान जरी

पान तुजें सान जरी
व्हडलें तुजें मन
निळो वारो पिवन तुवें
पाचवें घडलें धन

खांब्यावरी आंगार तुज्या
कुचकुचीत पानां
सळसळून हुस्कारती
मात्सो वारो व्हांवताना.

थरथरत्या पानांत तुज्या
कसली व्यथा सांग?
काळजावरी पान तुजें
खांब्यावरी आंग.

इतलीं तुजीं काळजां जाल्यार
कितलो तुजो मोग!
तुजे सायेंत जळून गेलो
गौतमाचो भोग...

114.

## संवसारांतल्या सवण्यांनो

संवसारांतल्या सवण्यांनो
तुमकां म्हजें उक्तें शेत
पांखां हालयत येवचें हांगा
हड्डें फुलयत गावचें हांगा
हांगा तुमी मोगा-उबेंत
फुडाराचे करचे बेत
कणसांची भांगरा सोलीत
तांदळाचीं मोतयां फोडीत
वझऱ्यांच्या उदकांतलें
अमृताचे थेंबे पियेत
संवसारांतल्या सवण्यांनो
तुमकां म्हजें उक्तें शेत.

115.

## दिश्ट लागली पलतडीं

दिश्ट लागली पलतडीं
सुटलो शेळो वारो
वाट मुखार दाखोवपी
लिपलो कुपांत तारो.

पिकले केंस पिकले
सुकून गेलें मन
कोनश्यांनी उल्लां फकत
उगडासांचें धन.

पेखले घाय पेखले
परतो मार भालो
रगताच्या हून न्हाणांत
जावं दी जीव ओलो...

116.

## आसलेली अशी उबी

आसलेली अशी उबी
पारजताच्या रुखा-मुळांत
रुप तुजें धोलतालें
चांदन्याच्या रुप्या-तळ्यांत.
ओंठ मंद हांसताले
पयस नदर शेणलेली
पारजताच्या परमळांत
सपन - म्हूर्त भिजलेली.

जुवानिच्या भारान तुजें
आंग मातशें बागलेलें
पदराच्या पिशेपणान
तरणेपण जागलेलें.
आसलेली अशी उवी
पारजताच्या रुखा-मुळांत
तेंच चित्र देखतां अजून
उगडासाच्या परमळांत.

117.

## चित्त तुजें

आयज अशें चित्त तुजें
खंय गे पुते शेणलें?
आशे वेंचताना गे तुवें
तांदूळ वेंचून काडले.
आयज अशें मन गे तुजें
खंय गे पुते रमलें?
फुलां खुडचेबदला तुवें
कळेच तोडून हाडले.
आयज अशे दोळे तुजे
खंयचेकडेन लागले?
कापूर जाळचे वदला तुवें
बोटूच लासून घेतलें.
आयज अशें अप्रुपाचें
सांग गे कितें घडलें?
भर दिसा कसलें तुका
भांगरा-सपन पडलें?

118.

## मोगाळ भुंये

मोगाळ भुंये
सुखान जिये

पावस पिये
हूम पिये
मोगाळ भुंये
सुखान जिये

फुलां भरून
वास दी
वारें भरून
स्वास दी
फळां भरून
रोस दी
कणसां भरून
खोस दी

वोतां पिये
पावस पिये
जिवीत पिये
मोगाळ भुंये
सुखान जिये

119.

## ही फसल

ही फसल आमी
एकटे कातरचे नात
आमी एकठांय रोयलां
एकठांय बेणलां
एकठांय नडलां
उटंगारा पावसांत
खर वोतांत
आमच्यो उमेदी
भिजल्यो नात
हुलपल्यो नात
आमची नदर
धुंवटेली ना
आमचें काळीज
करपलें ना
फुडारांक मुखार दवरुन
आमी वर्तमान घडयलां
कुपां येतात वेतात
मळवाचीं रुपां बदलतात
पूण ही धर्तरी घट - थीर आसा
तिणेंच आमकां जिविताचो अर्थ शिकयला
शेताच्या पाचव्याचार हारशांतल्यान
सैमाची सुंदराय दाखयल्या
वझऱ्यांच्या खळखळांतल्यान
जमनींचेर चिड्डल्लीं गितांय आयकयल्यां
आमी सगले वांगडा वावुरतले
बायलो, दादले

जाण्टे नेण्टे
द्ळिश्ट, दुबळे
एकठांय लुंवतले
नितळ मनान
निबर हातान
ही फसल कातरतले...

120.
## तुजे दोळे

जेन्ना तुजे देखले दोळे
काळीज म्हजें शेणलें
रितें, रितें जिवीत म्हजें
तुज्या मोगान भल्लें

काळीज म्हजें शेणलें पुणून
तुजें काळीज मेळ्ळें ना
काळजावगर जियोवं कशें
मोगा, म्हाका समजना.

121.
## सुये बाये

धर्तरेच्या कुसव्यांतलें
लोखणाचें कूळ तुजें
कापाशिणीच्या पुतालागीं
सूत तुजें जमलें कशें?

शिडशिडीत दोरापोराक
नाक तुजें मानलें कशें?
कशेंय जांव, किदेंय जांव
घरची म्हज्या सून तूं
गुण तुजे गांवचे कशे?
शिंव, शिंव, शिंव सुये
शिंव, शिंव, शिंव
शिंयापसून, वोतापसून
सांवाळ आमचो जीव

लिकलिकीत, तिकतिकीत
उवाडाची नार कशी
लुगटाच्या झुजामळार
तरसादेची धार कशी

राजाची जांव राणी
कुणब्याची जांव पत्नी
सगल्यांची इश्टीण तूं
घरा-घरांत जायशी अशी
उगडो घालून आपलो जीव
हेरांखातीर न्हेसणां शिंव
शिंव, शिंव, शिंव सुये
शिंव, शिंव, शिंव
शिंयापसून, वोतापसून
सांवाळ आमचो जीव.

पाळण्यांतल्यांक तोंपरीं कर
आंगणांतल्यांक आंगलीं कर
चलयांच्या कुंवारपणाक
चोळयांचीं विल्लीं कर

तुळतुळीत तकल्यांखातीर
धव्यो, काळ्यो तोपयो कर
दिसान् दिसा घर भरपाक
घटशो बऱ्यो पोतयो कर
शिंव, शिंव, शिंव सुये
शिंव, शिंव, शिंव
शिंयापसून, वोतापसून
सांबाळ आमचो जीव

जायते हांगा पिंजपी आसात
जायते हांगा चिरपी आसात
जें पिंजता, जें चिरता
तूंच ताका जोडपी आसा
कात्रेच्या कर्तुपाक
तूंच खरी मेटपी आसा
नस्त्यो आमी मस्त्यो करून
खुशालकाये तिस्त्यो केल्यो
अष्ट-देगे पुडवीं कापून
वेंतायेद्यो काश्ट्यो केल्यो...

आयज बुतांव गेल्या फुटून
पोरणी शिवण आयल्या सुटून
विसकटून पडल्यां सुतां
एकवटाचो तुटला पोड
अपुर्बाये सुये बाये
घेवन माये दोर
नवे, धवे धागे मारून
आमकां जोड, आमकां जोड.

122.

## ही लोकशाय

पांडूलो पाडो
गोंदूल्या गाड्याक
काटूलो कोंडो
आन्तूच्या आड्याक
लाद्रूच्या शेतांत
पेद्रूची गाय
ही लोकशाय.

चंद्र्यालो चेडो
मर्त्याले माड पाडटा
रीतालो रेडो
व्हाजाची वोंय मोडटा
तात्याच्या तपल्यांत
दादाची दाय
ही लोकशाय.

सगलें जालें तुजेंच राज
तुजो चांफो, तुजी काज
चंवरां गळय, पानां झडय
जाय तितलीं फुलां फाराय
ही लोकशाय.

वांकडो चल, कसोय पळ
गाडी तुजी कशीय चलय
झाडार उडय
घरार चडय
ना जाल्यार मर्दींच थाराय
ही लोकशाय.

आयले काळे, गेले धवे
फाटलें वचून आयलें नवें
पेद्रूचो जालो पिटर
लित्राचो जालो लिटर
सेर्वेज वचून आयली बियर
ग्रावाद वचून आयलो टाय
ही लोकशाय.

रेक्रेमेंत वचून आतां
आयलें ॲप्लिकेशन
कोर्रुप्सांव नाच जालें
आयलें Corruption
Pela nasao चें नांवूच ना
आता सगलें 'For the Nation'
'Adeus' गेलो,
सगले ताका
करया 'Bye Bye'
ही लोकशाय.

मोडक्या खांब्यार नवो पूल
फुटक्या गुंड्यार नवी चूल
पोरण्या पाटार नवो मानाय
ही लोकशाय.

शेत रोयता?
फॉर्म भर
भात विकता?
फॉर्म भर
भीक मागता?
फॉर्म भर

खंयचो तूं! खंय रावता?
खंय न्हिदता? खंय जेवता?
कोण तुजो आजो
कोण तुजो पणजो
कितली ताजी पिराय?
ही लोकशाय.

हें वरय, तें छाप
हें टायप तें टायप
टक, टक, झर, झर
कागदांचे जाले दोंगर
वझऱ्यांनी ओत्ता शाय
ही लोकशाय.

एक ऑफिसर धा कारकून
धा कारकून वीस चाकर
वीस चाकरांत तीस शिपाय
ही लोकशाय.

सेलाद फोलींर पिकता भात
तरीय लोक काडटात उपास
हें अशें जावंचें कशें?
म्हाका वावा कळना कांय
ही लोकशाय.

साकर ना? बरें जालें
साकर खाल्यार गोडें जाता
तांदूळ ना? बेस्स बरें
भातें माल्ल्यार सुस्ती येता
सगल्या परस जिवाक बरो
किरायत्याचो कोडू कसाय

ही लोकशाय.

कऱ्हाडचीं गाडवां
मडगांवच्या रस्त्यार
सरकारी खोजनो
फुलूच्या खुस्तार
खर्चाच्या खोर्णांत
लोकांची ल्हाय
ही लोकशाय.

नळ आयले, उदक ना
दिवे आयले, विजूच ना
दांत आयले, चणेच ना
फुटलो लाटण
पुरली बांय
ही लोकशाय.

सगलें गिन्यान दवर कुशीक
हुनहुनीत गाळी शीक
"You bastard, dirty dog
मालक्रियाद, दितलों फोग!"
"साला, बदमाश कोण रे तो?"
"तुजो पाय"
ही लोकशाय.

हड्डें फुलय, भुजां हालय
किदेंय उलय, मोट्यान उलय
आंवूळ मुठी, मेजां धोडाय
ही लोकशाय.

बारा बोडांक, बारा मतां

बारा हातांर, बारा खतां
दोन बोंडे, दोन आटकां
दोन वांजां, दोन कुस्कां
बाकी सगले उदकाशिवाय
ही लोकशाय.

हासंपी ओंठ
रितीं बोडां
बंद कोट
उक्तीं तोंडां
आनी सदांच हात मुखार
‘तुमची मतां आमकां जाय’
ही लोकशाय.

जाका धरूंक येना सत्री
तो जाता राखणमंत्री
जाणे जल्मांत चिरली ना शिरी
तो जाता शिक्षणमंत्री
जो चलयता कायद्याचें खातें
तो फटकिऱ्यांचो पाय
ही लोकशाय.

वोगी बसून मेळना कांय
वच रस्त्यार किंळची मार
धा जाणांक धरून हाड
सात-आठ गाडयो मोड
दुकानांच्यो कंवच्यो फोड
चारूय घरांक उजो लाय
ही लोकशाय.

लोकूच जंय पातशाय
ती लोकशाय.

सगल्यांनी काडचें दूद
सगल्यांनी हाडचो उजो
सगल्यांनी मारची फूंक
थोड्यांनीच खावची साय
ही लोकशाय.

अर्दो वांटो सरकाराक
तिसरो वांटो मामलेदाराक
सवो वांटो भाटकाराक
कांडून, कांडून उल्लो कुंडो
तोच आता तोंडाक लाय
ही लोकशाय.

कैद गेली आयली फांशी
आतां तरी जालो खोशी?
आतां गळ्यांक फांस लाय
फुक्या सवाय
ही लोकशाय.

वांदोडेचो दोवलो
शिरोडेची कायल
कोणाक जाय धुमको, चिमटो?
हाय!
ही लोकशाय.

123.

## तिरंगी आमचो भेस

हिमालयाचीं सपनां आमचीं
दर्याचो हावेस
तिरंगी आमचो भेस भारती
भारत आमचो देस

शूर विरांची गौरव गाथा
संतकवींचीं गितां
युगांयुगां ही अशीच गाता
पवित्र गंगा माता
इश्टांपासत मोग आमगेलो
दुश्टांत आमचो त्वेस

हे जमनीच्या कणाकणाचेर
उपाट आमची प्रीत
स्वतंत्रतेची नीत आमगेली
सत्य, अहिंसा रीत
भावपणाच्या उज्यांत हुलपूं
सगलो मत्सर द्वेस

कोणूच नासचो दुखेस्त, दुवळो
हीच आमगेली आस
संवसाराचेर फुलयत वेतले
एकचाराची भास
नव्या जगाची तरणी आशा
आमचो पोरणो देस

124.

## गोंयचो आंबो

गोंयचो आंबो
म्होंवा थेंबो
गोंयच्या पोल्यार
भांगरा तिबो

गोंयच्या आंब्यांत
चांदनें आसा
सूर्याचें किर्ण आसा
आमच्या मोगाळ जमनींतल्या
अमृताचो कळसो आसा
जाया-जुयां परस दाट
गोंयच्या आंब्याक घमघमाट
भुरग्याच्या गालापरस
गोंयचो आंबो रसरशीत
व्हंकलेच्या ओंठांपरस
गोंयचो आंबो लुसलुशीत
हालत, धोलत, लजत, मोडत
पाचवो पदर आंगार घेता
सतरावें वर्स फुटून
गोंयच्या आंब्यांत रुपाक येता.
गोंयचो आंबो रोसाळ कवीत
गोंयचो आंबो गोंयचें जिवीत

125.

## फायची वाट

मळब-पिश्या सुकण्या पिलान
भूप आळयलो
चंद्र-पिश्या मनाक म्हज्या
सूर्या भेटयलो

नखेत्रांची आरती अशी
कोणें पालयली?
धर्तरेच्या पाचव्या हांशान
कोमरी जागयली

उमेदीच्या पांखांक आतां
वांगडी एकूच वारो
आंगार म्हज्या भांगरा शिंवर
उजवाडाच्यो धारो

रात काळी उल्ली फाटीं
फुडार दिता हात
पावल म्हजें पडटा जंय
तीच भुंयेर वाट.

126.

## किटी : 1975

1

म्हज्या मनांत
कितलीं चिंतना आड्डतात
कागदावेली आज तांची
बंद वाट

2

बंदखणीतलें मेकळेंपण, काय
मेकळेपणांतलें बंदेपण?
किदें जाय?

3

आपल्या काळ्या-किट्ट पदरान
आमचो सूर्याच धांपलो
वांकडेल्या केंसा-हिळ्यान
आमचो गळोच कापलो
लिखणेच्या एकाच फारान
लिखणी आमची मोडली
जाणट्यांची पुण्य-मठी
खोंट मारून फोडली

4

हांव जाणां :
म्हज्या उतरांनी भात रूजना
शीत फुलना
भूक न्हिवना,
हांव जाणां :

म्हज्या उतरांनी बांय खणना
उदक फुटना
तान न्हिवना,
हांव जाणां :
म्हज्या उतरांनी चाबूक झडना
तरसाद अडना
खोंट धरना,
पुण म्हज्या उतरांबगर म्हजेलागीं आनी
कांयच ना.

5

त्या तीन माकडांवरी
आमी बुदवंत
आमकां कसलीच ना खंत.
कोण कोणाचो करता घात?
आमचो दोळ्यांर हात.
नाडटा कोण, चोरता कोण?
आमचें बंद तोंड
कळवळून कोण आड्डता?
आमचीं कानांत बोटां.

127.

## किसरां

1

काळजांत हें किसर
आनी तूं म्हण्टा : “विसर”

2

म्हज्या काळजाचो कावळो
सकाळच्यान रडत आसा
आज ती येतलीच येतली

3

गांवांतल्या पावसाचो
उगडास येता
आनी - उगडासांचो
पावस पडटा

4

हांव दडलां
ह्या कागदाच्या
पड्ड्या आड
पान परती आनी म्हाका
सोदून काड

5

वांगडा
कांयच ना व्हेलें
हांगचें सामान थंय
थंयचें सामान हांगा
इतलेंच केलें

6

चोरी करतांना
चोराक खबर आसता
आपूण आपले आवयचो
हांसो चोरता

7

सोडून वेता तिका
सोदूं नाका
सोदूंक येता तिका
सोडूं नाका!

8

कवनां मडकीं
दोनूय सारकीं
जाय ताणें जाय तशीं
भरपाचीं

9

सोडून भुकेचो वेळ
भुरग्यांक जिवीत म्हळ्यार
खेळूच खेळ

10

तुवें वाटेंत
म्हजो हात सोडलो
आनी म्हजो पांय
थंयच अडलो

11

पोल्यार पावस पडटा
तेन्ना

कोणाक कळना
हांव रडटां.

12
ए शहाजहाँ
तुवें तुजो मोग
बांदून दवरला फांतरांनी
हांवें म्हजो मोग वांटून उडयला
उतरांनी

13
ते अक्षरांच्या खिळ्यांचे
जुळारी
आमी उतरांच्या अर्थाचे
पुजारी

14
तुजो हात
म्हज्या हाताक लागलो
आनी हांव
हाता भायर गेलों

15
जावं बरो, जावं वायट
जावं शाणो, जावं पिसो
मनशाफाटल्यान
उरता एकूच
ताजो पयसो

16
घरांत तांदूळ ना म्हणून
ताणें आपलें काव्य

बाजारांत व्हेलें
पसरकारान तागडेंत तोलून
दोन रुपया बारा आणे दिले

17

विद्वानाक एकूच खंत
तोंपता
पोट मारून घेतिल्ले ग्रंथ
पोटाखातीर विकचे पडटा

18

पानार पिसोळें बसलें
फूल जड जालें

19

तुवें म्हाका सोडलो
पूण
मदिरेन सोडलो ना
मदिरेचें पातिव्रत
तुज्यांत ना

20

कांय जाणी
आपल्या आपणाक
विकतात - एकूच खीण
कांय जाणी
आपल्या आपणाक
विकतात - सगली जीण

21

आदीं ती मेकअप करता
आनी मागीरूच

आपलें तोंड
हारशांत चोयता

22
गरीब दोन तरांचे :
धनाचे आनी
मनाचे
गिरेस्त दोन तरांचे :
मनाचे आनी
धनाचे.

23
तड मेळ्ळी ना
जोड मेळ्ळी ना
फक्त -
तडजोड केली

24
पातकाची ख्यास्त
सर्गार भोगची पडटा
पिशेपणाचें पानवळ
हांगाच मेळटा

25
कोगूळ तांतयां
कावळ्याच्या घोटेरांत
घालता
देखून तो इतलो बरो
गाता

26
कोण कितलें बरें करता
कोण कितलें वायट करता

ताचो हिशेब करूक
हांव बसना
तशें केल्यार
चित्रगुप्ताक वावरूच उरचोना

27

हातांतलो सोऱ्या - पेलो
पडून फुटलो
म्हाका खळ्ळ करून
हांसलो

28

पांदऱ्यांतलो कीर
म्हण्टा म्हाका हांव बरयताना :
तिंतेरांत बडी बुडोवन
तूं कागदार तींत फांफुडटा
सगलो तिंतेरूच एकदम
कागदार कित्याक ओतीना?
तितलोच वेळ वाटावचो ना?

29

गाडयेक मॅचिंग साडी
साडयेक मॅचिंग चोळी
चोळयेक मॅचिंग सरपळी
सरपळेक मॅचिंग कांकणां
पुण घोव मात
मॅचिंग मेळ्ळो ना

30

म्हजे सगले स्वास
तुजे उगडास.

128.

## हरयाळी

1

घड्याळिच्या सेकंद-कांट्यार
पिसोळें येवन बसलां
आतां वेळाक मुखार सरूक येना.

2

आतां -
मोटारींतल्यान सुटाबुटांत
तूं येता.
चिप्प भिजून उक्त्या आंगान
तुफानार बसून तूं येतालो
तोच म्हाका चड आवडटालो.

3

च्याच्या कोपांत
तुज्या उगडासाची साकर घालून
काळजाच्या कुलेरान चाळीत चाळीत
तुजी वाट चोयतां.

4

जल्मापसूनचो गळ्यांत हो
मर्णाचो फांस
देखून जिविताचो स्वास घेवपाक
हांस

5

भरती आनी सुकती
हांचे मदलो वेळ
इतलीच दर्याक विश्रांती.

6

आमचो काव्या-रथ
दोन हात वयर चलता
धर्तरेर देंवपाक भंय दिसता.

7

खंयचें उतर
सगल्यांत मोगाळ?
मनांतल्या मनांत चिड्डिल्ली
गाळ.

8

धव्या फटफटीत कागदाक
आमी अक्षराचो लायलो तिळो
थंड मोन्या कागदाक
आमी काळजाचो आवाज दिलो
मती दिली गती दिली
कल्पनेचो रंग दिलो.

129.

## गीत - म्हजी प्रार्थना

गीत म्हजी प्रार्थना
गीत म्हजो स्वास
गीत म्हजी साधना
गीत म्हजो ध्यास.

ह्या गितांत हांसता हांव
ह्या गितांत हुंडकेतां
सगलें म्हजें सूख दूख
ह्या गितांत गायतां.

गायतां, गायतां गीत म्हजें
हांव गितांत शेण्टां
गीत म्हजें गायताना
हांव म्हाकाच मेळटां.

गीत म्हजी अर्चना
गीत म्हजें व्रत
गीत म्हजें सपन धुंद
गीत म्हजें सत.

नाद ब्रह्म गीत म्हजें
विश्वमेळ सादतां
संवसाराचो खेळ हांव
ह्या गितांत खेळटां...

पणजी
5.9.2005

# मनोहररायांली कविता

खंयचेय भाशेंतली कविता परंपरेचे घट बुन्यादीचेर उबी आसता. परंपरेंतल्यान तिका पोसवण मेळटा आनी ती पुश्ट जावंक पावता. ही परंपराच तिका भाशेबराबरूच अर्थ आनी आशयाचें देणें दिता. अशे तरेचें परंपरेचें संचित तिच्या गांठीक आसता तेन्ना तिका मुखार पावल घालपाक घटाय येता. भारतीय भासांतल्या साहित्याच्या इतिहासाचेर एक उडटी नदर मारल्यार ताची प्रचिती येतली. मराठी कविता संत आनी पंत कवितेचेर पोसली. विसाव्या शेकड्यांत केशवसूत आनी मर्ढेकर ह्या दोन म्हत्वाच्या कवींनी नव्यो जाणविकायो रुजयल्यो. आनी मराठी कविता आयचे सुवातेर पावली. हिंदी कवितेचे संवंदान आमच्यांनी तशेंच म्हणूंक येता. कबीर, तुलसीदास, सुरदास ह्या संत कवी वांगडाच आर्विल्ल्या काळांत निराला, गजानन माधव मुक्तिबोध, अज्ञेय ह्या कवींनी हिंदी कवितेक एक नवें रूप दिलें. बंगालींतूय कवितेक अशीच दीर्घ परंपरा आसा. विसाव्या शतमानांत टागोर वांगडाच जीबानंद दास हांणीय कवितेचें समृद्ध दायज आयचे पिळगेखातीर दवरलें. कन्नडांत बसवण्णा अक्का महादेवी सावन सुरू जाल्ली कवितेची परंपरा गोपाळकृष्ण अडिगा सारकिल्या कवीन आनीक मुखार व्हेल्ली दिसता. हेर भारतीय भासांचो असोच इतिहास आसा. हे परंपरेक लागून कवितेच्या भायल्या रुपांतूच न्हय तर तिच्या अंतरंगांतूय बदल जाता. नवें युग हाडपी कवी उतरांक अर्थाचीं नवी परिमाणां दितात आनी तेच भशेन छंदाचे नवे आकृतीबंधाची निर्मणी करतात. दर एक पिळगी ते ते भाशेंतलें कवितेचें पात्र रुंदायता.

कोंकणी कवितेच्या संदर्भांत ह्या इतिहासाक खाशेलें म्हत्व आसा. किद्याक तर कोंकणी भास आनी साहित्याचें प्राक्तन वेगळें आसा. हेर भासांभशेन जरी तिची सुरवात स ते सात शेंकडे आदीं जाली तरी युगां निर्माण करपी साहित्यीक हे भाशेक लाबलेनात. ते खातीर तिका विसाव्या शतमानाची वाट पळोवची पडली.

दुसऱ्या म्हाझुजा उप्रांत युरोपांत अर्थीक, सामाजिक आनी संस्कृतायेच्या मळार जे बदल जाले ताचो परिणाम जिणेच्या वेगवेगळ्या आंगांचेर जालो. तो युरोपापुरतोच उरलोना तर युरोपाच्यो भुगोलीक शिमो मेरो हुपून तो आमच्या देशांतूय पावलो. साहित्यांत एक नवें वारें खेळूंक लागलें. तें modernism चें आशिल्लें. भोंवतणचो समाज आनी व्यक्ती हांच्या मदल्या नात्याक एक नवो संदर्भ प्राप्त जालो. मनशाचें एकमुळेपण, निर्शेवणी हाका साहित्यांत नवी वाट मेकळी जाली. हे सगळे अणभव

व्यक्त करपाक नवे भाशेची गरज उप्रासली. जे विशय कवितेचे केन्नाच नाशिल्ले तांकां कवितेंत सुवात मेळ्ळी. भारतीय कविता Eliot, Auden हांची भास उलोवंक लागली. देशी परंपरेपासून ती पयस वता काय किदें अशें ह्या काळांतली कविता वाचतना दिसता. कवितेंत वेगवेगळे प्रयोग जावंक लागले. छंदाची फास्की मोडून कवी मुक्तछंदांत बरोवंक लागले.

भायल्या संवसारांत अशें व्हडा प्रमाणांत जाता आसतना कोंकणी कवितेंत फकत काळखी दाटून आयिल्ली दिसता. हातावयल्या बोटार मेजपा इतले कवी कोंकणीत कविता बरयतना दिसतात. दिनकर देसाय, बयाभाव, बाकीबाब हीं कांय नांवां नदरेमुखार झळकतात. हातूंतले बयाभाव हे इंग्लीश आनी मराठींतल्या romantic कवींचो आदर्श मुखार दवरून कविता बरयतना दिसतात. बाकीबाबाले कवितेचें वळण सादारण तशेंच. दिनकर देसायाले कवितेंत मात त्या वेळावयल्या संवसारीक परिस्थितीचें पडबींब काय प्रमाणांत पडिल्लें दिसता. देखीक तांची 'कालपक्षी' सारकिली कविता हे नदरेन अभ्यासून पळोवपा सारकी आसा. ही कविता म्हळ्यार कोंकणीतले नव-कवितेची पयली वयली कुरू. दिनकर देसायान कोंकणीत चड बरयलें ना. तांचो एकलो एकसुरो कविता संग्रह "दिनकरालीं कवना" ऐशांच्या दसकांत उजवाडा आयलो. घडये आर्विल्ले कोंकणी कवितेची बसका तांचेच हातसून बसतली आशिल्ली.

कोंकणीत कविता खऱ्या अर्थान बरोवपाक सुरवात जाल्ली दिसता ती पन्नासाव्या दसकांत. मनोहरराया बरावर र. वि. पंडित आनी चा. फ्रा. द कोश्ता हे कवी गंभीरतायेन कवितेची निर्मणी करूं लागले. बाकीबाबाली कोंकणी कविता ह्याच काळांत घोंसार आयली. आशयावराबरूच छंदाचे वेगवेगळे आकृतीबंध ते केळोवंक लागले.

मनोहररायाले कवितेच्या संदर्भांत हे फाटभुंयेक खाशेलो अर्थ आसा. हे सगळे कवी कोंकणी कवितेचें मुळावण घालपाच्या वावराक लागिल्ले दिसतात. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें म्हणल्यार कोंकणी कवितेचो बुन्यादीचो वावर तांणी केलो. गोंय मुक्ती उप्रांत कोंकणी कविता फोफेली ताचे फाटल्यान ह्या सगल्या कवींचो मोलादीक वावर आसा.

मनोहररायाले कवितेचो विचार करतना तांगेल्या सुरवातीचे कवितेचो चेरो कसो आशिल्लो हाचो सोद घेवप गरजेचें आसा. तांगेल्या कविता बरपाची सुरवात मराठींतल्यान जाल्ली दिसता. चाळीस ते पन्नास ह्या दसकांत तांणी मराठींतल्यान कविता बरयल्यात, आनी त्यो 'किर्लोस्कर', 'अभिरुची', 'विल्सोनियन' ह्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात.

मनोहररायांल्या कवितेचे उदरगतीचे वाटेवयल्यो कुरवो सोदताना तांगेल्यो ह्यो मराठी कविता म्हत्वाच्यो दिसतात. त्या काळांतल्या मराठी कवितेचो खर प्रभाव ह्या कवितांचेर पडिल्लो दिसता. चड करून कवितेचो आशय आनी कवितेची भास हे नदरेन ह्या कवितांकडेन पळोवंक जाय. ह्या काळांत बरयल्ल्या कवितांचो आशय प्रेम असो आसा.

हास्य तुझे गे मोहवी सकलां
वाटे त्याना वसंत फुलला
मला पुरे गे तुझ्या स्मितांतिल
उदास, दारूण, नाजूक मार्दव

आनी ही दुसरी कविता :

उदास का तव मानस, सजणे
"कोमलांगि तूं नाहि भूषणे?"
दिव्य अमोलिक अलंकार हे
अर्पिन पदकमली.

निर्झरणीची कुजबूज मंजूळ
त्यांत ओतुनी अनील तळमळ
दैवी पैंजण छुमछुम घुमतिल
तुझिया पदकमली.

ह्या कवितांनी 'हास्य', 'सकला', 'तव', 'पदकमली', 'निर्झरणी', 'अनील' सारकेलीं मराठींतली archaic उतरां तांणी वापरिल्लीं दिसतात. कांय कवितांनी वाऱ्याच्या जाग्यार 'वायू' रातीच्या जाग्यार 'रजनी' असलींय घोळटुकेंत नाशिल्लीं उतरां तांणी वापरिल्लीं दिसतात. ह्या मराठी कवितेंत तांचें आपलें अशें व्यक्तिमत्व फुलून आयिल्लें दिसना. मराठी भास आनी तेचवरबर कवितेंची भास आपणावपांत तांची शक्त खर्चता असो अणभव ह्यो कविता वाचतना येता.

आग उरी, आग शिरीं
आग नाचे जीभेवरी
शांत सौम्य हृदयात
अग्नी फुलांचा गे सडा
वक्ष फोडूं, दावू मूर्ति

नसनसीं वाहे प्रीति
नभ फोडूं दावूं का गे
नक्षत्राच्या कारागिरा?

ह्यो वळी हाची बेसबरी गवाय दिता. मनोहरबाबांलें मराठींत कविता वरप कालांतरान कमी जालें. गोंय मुक्ती उप्रांत तांणी प्रासंगिक रुपाच्यो मराठी कविता वरयल्यों. चड करून गोंयच्या इतिहासांत म्हत्वाचो थारिल्ल्या ओपिनियन पोलाच्या काळांत. आनी हे कवितांचो सूर उपरोधी आशिल्लो. आतां तर तांणी मराठींत कविता रचप बंद केल्लें दिसता. तांकां कोंकणी आपलो नीज सूर सांपडलो देखून तांणी मराठी कवितेकडेन फाट केली आसुंये. दुसरें म्हळ्यार तांणी कोंकणीत जितले सहजतायेन रचना केल्या ती सहजताय तांगेले मराठी कवितेंत दिसना. मनोहरबाबाली मराठी कविता सांकेतिकताय, ह्या काळावेल्यो कवितेसंबंदान घोळटुकेंत आयिल्ल्यो कल्पना हांच्या आदारान उबी आशिल्ली दिसता. ह्या सगल्या जंवजाळांत तांची मराठी कविता शेणली. पूण कोंकणीत तांकां भाशेवरावर तांगेले कवितेचें नीज आनी आत्मो होल्मलो हाचो अणभव येता.

'गोयां तुज्या मोगाखातीर' (1961), 'जायात जागे' (1964), 'जायो जुयो', 'पिसोळीं' हे तांगेले आजमेरेन उजवाडा आयिल्ले मुखेल कविता संग्रह. हे भायर, 'आयज रे धोलार पडली वडी' (1961) ही संगितिका' 'जय पुण्यभू जय भारता' हो देशभक्ति रचनांचो संग्रह आनी भुरग्यांखातीर रचिल्लीं कवना अशें साहित्य उजवाडा आयिल्लें आसा. 'जायो जुयो' आनी 'पिसोळीं' हे दोन तांगेल्या ल्हान कवितांचे झेले. ह्या काळांत तांणी वरयिल्ल्यो कविता वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात. पूण खूपशो कविता आजमेरेन उजवाडा ये नासतना तांगेले फायलींनी तशोच उरल्यात. अशेतरेन संग्रहाच्या रुपान तांगेली कविता मुखार नाशिल्ल्यान तांच्या अभ्यासाचे नदरेन कांय अडचणी उप्रासल्यात. तांचे कवितेचें रुप दोळ्यांमुखार स्पश्ट येना आशिल्लें. ताचे वाटेवयल्यो चडट्यो, देंवत्यो आनी मोडणां, graphically दाखवप शक्य जाय नाशिल्लें.

मनोहररायांले कवितेचे सरळ दोन वांटे करूंक येतात. तांची गोंय मुक्ती पयलींची कविता. हिचो कालखंड म्हळ्यार 1945 ते 1961 मेरेनचो. ह्या कालखंडांत वरयल्ल्यो कविता तांच्या 'गोयां तुज्या मोगाखातीर' ह्या संग्रहांत आस्पावतात. ह्या काळांतल्यो आनीकूय कांय कविता उजवाडा येवपाच्यो उरल्यात. तांचे कवितेचो दुसरो

कालखंड म्हळ्यार गोंय मुक्ती उपरांतचो कालखंड. 1962 उपरांत तांणी बरयल्ल्यो कविता 'जायात जागे', 'पिसोळीं' आनी 'जायो जुयो' ह्या कविता संग्रहांनी वाचूंक मेळटात. अशे दोन वांटे करपा फाटलें मुखेल कारण म्हळ्यार ह्या दोन कालखंडांत तांचे कवितेंत जो व्हड बदल जाला तो स्पश्ट दिसून येता. हो बदल आशयाचोच न्हय तर अभिव्यक्तिचोय आसा.

'गोंयां तुज्या मोगाखातीर' (1961) हो संग्रह प्रसिद्ध जालो तेन्ना कोंकणीत कांय मेजकेच संग्रह उजवाडा आयिल्ले. बाकीबाब बोरकारालो 'पांयजणां' हो संग्रह मनोहररायाल्या संग्रहा उप्रांत उजवाडा आयला हें मतींत घेवंक जाय.

'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या संग्रहांत एकूण चाळीस कविता आस्पावल्यात. ह्या कवितांचो काल 1954 ते 1960 असो आसा. 1952 ते 1958 अशीं स वर्सां मनोहरराय फ्रांसाक पारीस शारांत उंचेलें शिकप करपाच्या निमतान रावितो करून आशिल्ले. ह्या संग्रहांतली सगल्यांत पयली कविता 'वेता जाल्यार' ही 10-1-54 हे तारखेक बरयल्ली तर निमाणी 'म्हजो धर्म चलयता' ही नवी दिल्ली हांगा 1-5-1960 हे तारखेक बरयल्ली आसा.

मनोहररायांले कविते फाटली प्रेरणा किदें हाचो विचार करतना दुबावाविरयत आमच्यांनी गोंय अशें म्हणूं येता. गोंयची वेगवेगळीं रुपां आमकां तांचे कवितेंत सोद घेतल्यार होलमतात. फिरंग्यांच्या शेकातळा घुस्मटपी गोंय, आनी फिरग्यांच्या जुल्मी सत्तेतल्यान मेकळें जातकच वेगवेगळ्या समाजिक, राजकीय आनी संस्कृतिक प्रस्नांनी घुस्पल्लें गोंय तांगेले कवितेचो आशय जालो. तशेंच तांगेले कवितेंत जो सैम आयला तोय गोंयचो पाचवोचार सैम. गोंयचे पाचवेचार दोंगर, वाऱ्यार धोलपी माडमाडयो, मांडवी, जुवारी न्हंयांची वेगवेगळी रुपां तांच्या ह्या काळांतले कवितांनी पडबिंबीत जाल्ली दिसतात.

मांडविचे पाचवे देगेर
आंब्याचे सांवळे तळा
चानयांचे खेळ पळेत
पिकीं घोटां मेजीन हांव
केन्ना गोंयां, केन्ना गोंया?

पोरण्यो याद्री चाळीत, चाळीत

खुंटित कवळीं खावचिं-पानां
कुळागरा-झरी उदकांत
दोनूय दुकां गळयन हांव
केन्ना गोंयां केन्ना गोंया?

'केन्ना गोंया, केन्ना गोंया?' असो कवीक प्रस्न पडटा. ह्या प्रस्नांतल्यान कवी काळाच्या अंतरा बराबरूच भुगोलीक अंतरूय सुचोवन वता.

आज म्हाका याद येता
पोरसांतल्या केळम्यांची
माटवाचेर पांय पातळून
आंग मोडपी वेलांची.
***
आज म्हाका याद येता
माडयांच्या धोलपाची
मळबाच्या दरयाचेर
दोंगराच्या ल्हारांचीं

हे कवितेंत फकत सैम ना तर ताका तोरां पाडपी पोरांची आनी क़ाळसांवळ्या पोटा धोला वयल्या काजवा-रोसा खतांचें चित्र आसा.

मनोहररायाले, हे कवितेक गोंयची एक ऑव्सॅसीव सया आसा आनी ही सया तांगेले कवितेच्या विश्वाक व्यापून उरल्या. हया काळांतले कवितेंत गोंयच्या राजकीय आनी सामाजिक वास्तवाचे संदर्भ मुखेलपणान आयल्यात. "म्हजें गोंय" ही तांगेली कविता विचार करपा सारकी आसा.

म्हजें गोंय गोरवांचें
पाचव्या चार चरवाचें
एका दुदा-थेंब्यां खातीर
म्हजें गोंय वसवसता

गोंय म्हजें पिकाळ म्होंवाळ
खाजना भाटान चकचयाळ
एका तांदळा-गोट्या खातीर

म्हजें गोंय भीक मागता.

हे कवितेंत दोन वेगळीं चित्रां Juxtapose करून वास्तवाची खरसाण वाडिल्ली दिसता. गोड आडसरांचे गूण, कातली विकून कट्टी घेवन सोरो पिवपी गोंय, कातारां आनी तबल्या बोलाचें गोंय पूण पेजेखातीर सतारीची तार विकपी... मोगऱ्यां शेंवत्यां - वासाचें पूण दारवेच्या धुंवरा तळा घुस्मटपी गोंय... म्हजें गोंय तळमळटा स्वास घेवंक कळवळटा / फिरंग्यांच्या खुरसाचेर / रगताची हूम गाळटा. ही कविता म्हळ्यार गोंयच्या प्राक्तवाचें गीत अशें आमच्यानी म्हणूं येता. देखुनूच कवी म्हणटा :

येतलो केन्ना दीस रे भावा
रात केन्ना सोंपतली!
सात लाख काळजांतल्यान
आस्त केन्ना फुलतली?

लांबली रात, काळखी रात
नखेत्रांचीय न्हीद काळी
चार काळखा शेंकड्यांतल्यान
केन्ना वीज फुट्टली?

वंदेपण म्हळ्यार किदें हाचो अणभव कवीन घेतला. देखुनूच ताका स्वतंत्रतायेचो ध्यास लागला. सैमान भायर भितर नटिल्ली मायभूंयेची बंदेपणान केल्ली आवतिकाय ताका आकूळपिकूळ करता. दुदाच्यो झरी, फळां, जायां-जयांचो परमळ आनी घमघमाट, मोगाळ आनी म्होंवाळ भास हांकां स्वतंत्रतायेवगर अर्थ ना अशें कवीक दिसता. म्हणुनूच.

सर्ग-भांडार जाला रितें
सांग हांगा उणें कितें?
हाय, हांगा बंदखणीत
स्वतंत्रताय! स्वतंत्रताय!

आनी मुखार कोंव्यान घालो साद आनी / म्हाकाय आयली जाग / बंदखणीचें दार भावा केन्ना उगडत सांग अशी उतरां कवींच्या ओंठार येता. गोंयावगर ताचे जिणेंत एकेतरेचें रितेंपण आयिल्लें दिसता. पारिसा सारकिल्या सगले तरेचे गिरेस्तकायेन भरिल्ल्या शारांत ताका याद जाता कुळागराची, आनी गोंयची तांवडी माती हातांत

घेवन ती कपलाक लावपाची अथ्रेकणी ताका लागता. गोंयांपासून पैस आसलो तरी तो आपलें गोंयकारपण विसरना. देखून तांचे कवितेक 'सात दरयार जीण म्हजी / तरीय गांवचो जाणकार हांव (हांव गोंयचो गोंयकार) अशे उद्‌गार फुट्‌टात. ह्यो वळी कवीचें मातयेकडेन आशिल्लें नातें आनी ऋणानुबंध दाख़यतात. किद्याक तर कवींची वार हेच तांबडे मातयेंत पुरल्या. संवसाराचे फाटीर खंयूय पावलो तरी हे गजालीचो ताका विसर पडना.

त्या काळांत तांणी वरयल्ली देवाविशींची एक कविता आसा. ती तांचो देवाविशींचो भावार्त दाखयता. हांगाय कवी हेरांनी माड्‌डिल्ले वाटेवयल्यान वचना. तो भांगरा, वज्रांनी आनी काळ्याकिट्ट गर्भकुडींत पुजेक लायिल्ले म्हूर्ती मुखार हात जोडीना. ताचो देव हो गांवच्या शेतांतले चिकट मातयेचो. हे मातयेंतूच ताका आपलो देव जळीमळीं दिसता. तो कुणवी जावन शेतांत घोळटा आनी गरीब कुणब्याचीं बायल भुरग्यां पेजे घोटाक वळवळटात. गिरेस्तांचीं पंचपक्वान्ना ताका नाकात. मातयेचो हो देव मळबाच्या घुडा मुळा सुर्याचो तिबो लावन उवो आसा. दिशां येदे हात करून तो गरीब धाकट्यांक वेंगात घेवपी. हाचोच अर्थ असो की कवीची श्रद्धा ही मनीस़पणाचेर आसा. ताका देव हो सैमाच्या दर एका आंगांत दिसता म्हणपाचें हे कवितेची वळीन वळ सुचयता. मनशाच्या स्रमांत ताका देवपणाचो साक्षात्कार जाता. 1961 उपरांत बरयल्ले एके कवितेंत अशो वळी आयल्यात :

रानां मारून लायलीं भाटां
सडे कसून रोयलीं शेतां
आमी तुज्या रुखा तळा
बांदली पुजा सैमाची.
तूं आमची.

ह्यो वळी म्हळ्यार सैम देवतेची होरावणीच आसा. तशेंच 'नवो मनीस' हे कवितेंतूय असोच विचार तांणी मांडला :

एका जाणांत सगळे जाण
सगल्या जाणांत जण एकलो
एकल्याचें दूख म्हळ्यार
दुखाच्या दर्याचें
ल्हानशें ल्हार.

सगल्यांचो एकूच देव
सगल्यांचो एकूच दीस
झुजपाची रात सोंपून
मोगाच्या मळबाचेर
उजवाडटा नवो मनीस

हांगा कवी मार्क्सवादी विचारसरणीच्या लागीं आयिल्लो दिसता. आयच्या काळाच्या संदर्भांतूय हे वळींक विशेश म्हत्व प्राप्त जाता. धार्मिक असहिष्णुताय जी किडीसारकी समाजमनाक पोखरत आसा, जंय धार्मिक स्थळांवयल्यान जाती जाती मदीं, धर्मा मदीं नपड जाता तेन्ना हे वळींक नवो अर्थ येता. मार्क्सवादा वयली तांची निष्ठा मुखावयल्या काळांत तांणी बरयल्ले कवितांनी दिसता. मनशाक मनशापासून पयस करपी आर्थिक आनी सामाजिक व्यवस्था तांणी केन्नाच मानून घेवंक ना. आयज आमचे मुखार आशिल्ल्या जायत्या प्रश्नांची मुळां हे व्यवस्थेंत आसात म्हणपाचें तांणी आपल्या वेगवेगळ्या काळखंडांत बरयल्ल्या कवितांनी सुचयलां. देव धर्मापरस मनशा मनशामदल्या भावपणाच्या बुन्यादीचेर हो संवसार उबो रावल्यार कितलेशेच प्रस्न सुटटले असो तांचो भावार्त आसा. हे कवितांनी निखटी कल्पनेंची झोंपय दिसना तर जिणेच्या खर वास्तवाक भिडपाची विलक्षण तांक आसा.

मार्क्साच्या विचारांचो प्रभाव साहित्याचेर पडलो. संवसारभर ज्या साहित्याची निर्मणी जाली थंय हो प्रभाव कमी अदीक प्रमाणांत पडिल्लो दिसता. भारतीय साहित्यांतूय मार्क्सवादी विचारांचो प्रवाह व्हांविल्लो दिसता. हिंदीत गजानन माधव मुक्तिबोध आनी तांचेच भाव मराठी कवी शरच्चंद्र मुक्तिबोध हांणी मराठींत हो प्रवाह खेळयलो. कवितेबरावरूच मार्क्सवादी टिकाय साहित्यांत आयली. मनोहररायांक लागून कोंकणी साहित्य ताका आडवाद जावंक पावलें ना. ही एक विशेश गजाल आसा अशें म्हणूंक जाय.

ह्या काळांत मनोहररायानी बरयल्ले कवितांनी आनीक दोन सूर आयकूंक येतात. एक मोगाचो आनी दुसरो सैमाच्या मोगाचो. मोगाचो आशय आशिल्ली सगल्यांत पयली कविता 'वेता जाल्यार' ही पारिसाक 10-1-1954 ह्या दिसा बरयल्ली.

वेता जाल्यार वच गो बेगीन
पावसा खातीर तिश्टूं नाका

पातळाची चुरली देग
म्हणून फाटल्यान पळवं नाका

वेता जाल्यार वच गो बेगीन
हांसपा निमतान रडूं नाका
ल्हवूच पदर उडोवन सकला
काळीज म्हजें पेटवं नाका.

हे वळींनी दोन काळजांची, दोन दोळ्यांची निकतीच वळख जाल्ली दिसता. घडये ही वळख दिशी माशीं वाडत वचून अशे एके अवस्थेर पावता थंय कवी म्हणटा :

राग गो तुजो, तणा उजो
जळटा एक खीण
आनीक पळवं नाका वाट
रीग म्हजे कुशींत

अशें जरी आसलें तरी हो मोग सफळ जातलो म्हणपाचें दिसना. आपलो घोंटेर रितो म्हूण तळफेवपी कवी “हांव जाणां, हांव जाणां/मोग आमचो उरचो ना/तरी तुज्या मोगा बगर/रावन कसो समजना/अशें तो म्हणटा. मोगाच्या खिणयाळ्यापणाची ताका जाणविकाय आसा. 'हांव तूं' एक जावपाचें सपन जरी पयस नासलें तरी 'फाल्यां' कितें कोण जाणा/आयची जीण हांव जाणां/तरी तुज्या मोगाबगर/रावन कसो समजना अशी ताजी मनाची अवस्था जाता.

'गोयां तुज्या मोगाखातीर' ह्या संग्रहांतली आनीक एक सुंदर कविता म्हळ्यार 'पाचवें पातळ' ही कविता. ही कविता म्हळ्यार एके तरणे अस्तुरेचें भाव चित्र आसा.

'भांगरा-बोटान सार जोत
घरांत, दोळ्यांत चांदनें पळे
म्हज्या आंगार, तुज्या आंगार
फुल्ले मोगा-मोगरे कळे.'

अशेतरेची तरल इंद्रिय संवेदना सुचकतायेन ही कविता व्यक्त करता. अशेतरेची तरल भाव व्यक्त करपी कविता मुखार मनोहररायांनी बरयल्ली दिसना.

ह्या काळांत मनोहररायांनी सैमाचीं वर्णनां करपी कविताय बरयल्यात. ह्या कवितांनी निखटीं सैमाचीं वर्णनां येनात. तर सैमाचें तांणी मानवीकरण केल्लें दिसता. हो सैम निखटो तांगेले कल्पनेंतलो न्हय तर आमच्या सगळ्यांचे वळखीचो आनी

संवकळीचो. तो वळखीचो आसलो तरी तांची कविता आमकां ह्या सैमाची नव्यान वळख करून दिता. 'गीम' हीच तीन कडव्यांची कविता पळोवपा सारकी आसा. हे कवितेंत ते गिमाचें चित्र काडटात. वताचो कड आनी ताका लागून भोंवतणच्या वाठाराची जाल्ली अवस्था हें सगलें उतरांनी धरचेलो यत्न हे कवितेंत दिसता. तळये-रेब्याक पडिल्ल्यो चिरो, पानां फुलांर बशिल्ली माती, सुक्या माडाक पळोवन रागान बोड आपटुपी तांबडो शेड्डो, सुर्याची नदर चुकोवन नुलयत वचपी वझरो अशें वर्णन करीत निमाणे कडेन

झेलयत हाण्डीर घडा - वजें
केळी गळ्याक आयला घाम
हुमकळटें सुकिल्लें चुडत
सर्र करून म्हणटा राम

अशा उतरांनी हें चित्र पुराय जाता. ही कविता वाचतकच गावांतल्या गिमांतली स्तब्द दनपार दोळ्यां मुखार उबी रावता. म्हत्वाचें म्हळ्यार तांगेले कवितेंत आमकां सैमाचें मानवीकरण केल्लें दिसता. 'हुस्के माथ्यार गोंडेच गोंडे' हे कवितेंतूय हाचोच प्रत्यय अदीक खरपणान येता. हे कवितेंत चितारिल्लो landscape खऱ्या अर्थान गोंयचो अशें म्हळ्यार चड समा जातलें.

धीर-ना धरून गळटी जांभळां
कारनां पानां फाटीं लिपतीं
'शिपयांबगर मोतयां घेयात
लजत चुरनां पोरांक म्हणटी

अशें म्हणटां म्हणटां अखेर कवी "गोयां-भायऱ्या मनाक म्हज्या/लागलें पिशें, लागलें पिशें" अशें म्हणत आपली व्यथा उक्ती करता. ह्या काळांत तांणी बरयल्ले कवितेंत सैमाचो अणभव उत्कटतायेन आयला. तिका चित्राचें परिमाण आसा.

1954 ते 1960 ह्या काळांतले कवितांचें प्रतिमाविश्व पानां, फुलां, सवणीं, भांगराचें वोत, मळव, दर्या, दोंगर, माती, झाडां हांणी भरिल्लें. तशेंच त्यो कविता छंदांत बांदिल्ल्यो आसात. चड करून चार वळींच्या कडव्यांचो आकृतीबंध तिणें आपणायल्लो दिसता. "पांचवें हांशें" ही एकूच कविता दोन कडव्यांची आसा. मुखावयल्या काळांत मात तांणी छंदोबद्ध कवितेबरावरुच मुक्तछंदांत कवितेची रचना केली. इतलेंच न्हय तर मनोहररायांले कवितेंत व्हड प्रमाणांत बदल जाल्लो दिसता.

तिचें रुपूच मुळासावन बदललें. ह्या कवितांनी छंदाची विविधताय नासली तरी ती
कानाक एकसुरी लागना. कित्याक तर व्यक्त करता ते उमाळ्यांक जिवसाण आसा

आनीक एके गजालीचो हांगा मुजरत उल्लेख करूंक जाय. मनोहररायांले
अभ्यासाचो विशय फ्रांसेंज भास आनी साहित्य. ते भायर इंग्लीश, जर्मन, स्पेनीश
साहित्याचोय तांणी खोल अभ्यास केला.

कवितेच्या वेगवेगळ्या आंगांनी फ्रेंच कवितेंत जायते प्रयोग जाल्यात. भारतीय
कविताय ह्या प्रभावाखाला आयली. आनी अशा वातावरणांत वाडून लेगीत मनोहररायांले
कवितेन आपलें नीज देशी रुप जपलें हाचें विशेश दिसता.

मनोहररायांले कवितेंतलें गोंय ही निखटी भुगोलीक entity न्हय. तर तांचे
कवितेंत गोंय एक जिवो अणभव म्हूण येता. कवीच्या स्वासा इतली ताका जीवसाण
आसा. कोंकणी शिवाय, मराठी, इंग्लीश आनी पुर्तूगेज कवींनी गोंयचेर जायत्यो
कविता बरयल्यात. पूण तांच्या कवितांनी निखटो गोंयचो सैम येवन वता. तोय
भुगोलीक नदरेन हे कवितांनी गोंयच्यो माड माडयो, दोंगर, न्हंयो, फुलां आनी
फळफळावळींचे उल्लेख येतात. हे नदरेन यशवंत सुर्यराव सरदेसाय हांची 'विरहगीत
ही कविता एक देख म्हूण अभ्यासपा सारकी आसा. एके गोंयांपासून पयस वनवासांत
आसतना ओडींतल्यान आयल्या.

> एकटी पडलें दूर देशीं
> वियोगें कश्टत मी मानसीं
> आठव सारखा तुझाच ये
> गोमंतक माझे माऊलिये

अशी सुरवात करून ते गोंयच्या सैमाचें वर्णन करतना ते दर एके वस्तीची लांबचे
लांब जंत्रीच दितात. तांची ही कविता अडेची आसा अशें म्हणूंक येना. तांचे हे कवितेंत
उमाळो आसा. पूण तो खंय कलात्मक पांवड्यार पाविल्लो दिसना.

1961 वर्सा गोंय पुर्तुगेज सत्तेच्या शेकांतल्यान मेकळें जालें आनी तेच बराबर
गोंयचे सामाजिक आनी राजकीय जिणेन कूस परतिली. गोंयच्या अर्थकारणाबराबर
राजकारण आनी समाजकारणूय बदलून गेलें. गोंयान एक नवो रुपकार घेतलो. तसोच
मनोहररायाले कवितेनूय नवो रुपकार घेतलो. आनी हो रुपकार आमकां 'जायात
जागे' ह्या कविता संग्रहांत दिसता. 1964 वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या ह्या संग्रहांत
वट्ट बावीस कविता आसात. आनी ह्यो बावीस कविता म्हळ्यार एक मालिका कविता

अशें म्हणूं येता किद्याक तर ह्यो सगल्यो कविता एकाच आशयाच्या सुत्रान बांदल्यात आनी तें म्हळ्यार गोंय, कोंकणी आनी देशाचो मोग.

1959 वर्सा दर्या ल्हारां हुपून कवी मांडवीच्या ल्हारां खातीर आयिल्लो. कुळागरांचे शीतल सावळेखातीर अप्सरांचो ताणें सर्ग सोडिल्लो. पूण गोंयची तांबडी माती ताज्या हाताक लागूंक नाशिल्ली हाची खंत ताज्या काळजाक तोंपताली. गोंयच्या उल्याक उलो दिवपाचें भाग्य ताका 1961 वर्सा मेळ्ळें. म्हज्या श्रमा, घामा खातीर/ भांगर नाका / मोतयां नाका अशें म्हणपी कवी दोळ्यांत नवें गोंयचे सपन घेवन आयलो. देखुनूच सामाजिक जाणविकाय तांचे कवितेचो आशय जाल्लो दिसता. ह्या झेल्यांत तांची एकूय प्रेम कविता ना.

गोंयच्या समाजाच्या वेगवेगळ्या घटकांनी एकवटान आनी सन्मथान वावुरल्यार नवें गोंय निर्माण जावंक पावतलें ह्या विश्वासान कवी समाज मनाचेर आपल्या उतरांचे आशे मारून भार काडटना म्हणटा :

भाटकारांनो, मुंडकारांनो
जणकारांनो, गांवकारानो
जायात जागे, जायात जागे
***
येवंदी हुंवार, येवं दी मोडां
कांटे खुंटे व्हांव दी फुडें
मुळासकट झाडां पेडां
पडून मोडूं वंयचे आडे
मोडचें आसा मोडटलें
झडचें आसा झडटलें
पोल पोकें हुबतलें
उरतलें तें व्हडलं जावन
सगली भूंय भरतलें
चारूय दिको फुटून आतां
उजवाडाचे व्हांवले घोगे

ह्याच काळांत वाकीवावानूय वरयल्ले एके कवितेंत असोच सूर आसा. ते म्हणटात ‘निळ्या मळवार सवण्यांचे / थव्यार थवे धवेच धवे / उफेत हुवत सांगती आतां / येतले

दीस म्होंवे'. ह्या वळींतल्यान त्या काळाचोच सूर आमकां आयकूंक येता. बाकीबावान 'सासायें'त जशें समाजमनाक होरायलां तेच प्रमाण मनोहररायांनी हे कवितेंत होरावणी केल्ली दिसता. निव्वळ कलावादी नदरेंतल्यान कवितेकडेन पळयल्यार ही कविता प्रचारकी थाटाची दिसूं येता. सामाजिक लागणूक कवीक आसची काय ना असोय प्रस्न हांगा उप्रासूं येता. पूण कवी आपल्याक समाजापासून वेगळो काडूंक सोदीना. भोंवतणच्या सैमाइतलीच स्फूर्त ताका हो समाजूय दिता. 'जायात जागे' हे कवितेक एक गती आसा. 'मोडटलें, झडटलें, हुबतले, भरतलें' हीं वळींच्या शेवटाक येवपी क्रियापदां ही गती हे कवितेक दितात.

गोंय मेकळें जालें आनी सुमार तपभर गोयांभायर वनवास काडल्या उप्रांत कवी आपले जल्मभुंयेत परतता तो दोळ्यांत नवें गोंय घडोवपाची सपनां घेवन. परिवर्तन हें एका दिसान घडना. ताका एक वेगळें अशें वातावरण जाय आसता. नवें किल्लून येवपाखातीर भूंय नांगरून तयार करपाची आसता. नवें घडयतलो जाल्यार पोरनें सोडून दिवंक जाय म्हणपाची जाणविकाय ताका आसा. नवी समाज व्यवस्था अस्तित्वांत येवपाक आमचे मदल्यो शेंकड्यांनी शेंकडे चालंत आशिल्ल्यो नश्ट्यो चालीरिती मोडून उडोवंक जाय म्हणपाचें तो सुचयता.

अजून आसात पिडपी हांगा
अजून आसात नाडपी हांगा
तरणे तशे दांडगे तुमी
अजून कशें रावल्या वोगे?
हड्ड्यांतले इंगळे आज
धगधगून जावंदी जागे.

साडेचारशें वर्साच्या गुलामपणाक लागून तयार जाल्ली मानसिकता रातयांत कशी बदलतली? एके तरेची निश्क्रीयताय गोंयकाराक ग्रासून राविल्ली तातूंतल्यान ताका जागोवपाखातीर कवी म्हणटा :

गोबरा पोदां झेमता कीट
कोण गा तिका उठयतलो?
कोण गा रुखा हाडावळीर
उज्या फुलां फुलयतलो?

मेकळ्या गोंयांत भाशावाद उप्रासलो. गोंयची नीज अस्मिताय न्हयकारून बंदेपणाचे

नवें जूं मानेर घेवपाचे वृत्तीन तकली वयर काडली. तेन्ना शिटकावणेचो सूर ‘आमकां इतिहास आसा’ हे कवितेंत आसा :

आमकां इतिहास आसा
आमकांय बी भास आसा
तुमचे वरीच नखेत्रांचो
आमकां लेगीत ध्यास आसा.
***
आमच्या मनाक धार आसा
सोशीकपणाक पार आसा
आड येतल्यांक आड घालपाक
आमचे कुडीक हाड आसा

गोंय मेकळें जावपाच्या हुमऱ्यार आसतना कवी ‘खूप खूप करचें आसा’ अशें म्हणटालो. किद्याक तर फायचें गोंय घडोवपाखातीर रग्तान मळो शिंपचो पडटलो म्हणपाचें तो सांगता. फायच्या गोंयचें चित्र रेखतना तो म्हणटा :

फायच्या गोंयांत येद्दे नाल्ल
आनी शेतांत दोन पिकां
फायचें गोंय म्हण्टलें गा
“तुमची भीक आमकां नाका”

हें सपनांतले गोंय सत्यांत येतलें जाल्यार कितें करूंक जाय हेंय कवी सांगता :

बल्कांवार झांकपी ताका
बसून भकूंक मेळचें ना
घाम काडून काम करपी
वळवळून मरचो ना.

ह्या उतरांनी एके तरेचो विश्वास उक्तो जाल्लो दिसता. वाकीवावान ‘प्राणाक क्षय वुद्धीक भंय फाल्यांक जंय कालचीच वंय / आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय’ अशे वळींनी मनांतली खंत व्यक्त केल्ली. पूण मनोहरराय आशावादी सूर लायता :

फुडाराचो लावन तिबो
दीस दारार रावला उबो

सूर्य देवान कौल दिला
जैत आतां पैस ना.

कवी दुसरें सपन पळयता. तें सपन म्हळ्यार गोंयचो एकचार, आनी भावपण नंदचें म्हूण धरिल्लो ध्यास. गोंय हिंदू आनी किरिस्तांव अशा दोन समाजांत वाटून वच नासतना ते भाव कशें रावपांत ह्या दोनूय समाजाच्या हिताचें. हो जाणविकायेंतल्यान मनोहररायांल्यो कांय कविता आयल्यात. 'आज आमचें राज आयलें' हे कवितेंत हो हावेस तांणी उक्तायला :

हिंदू-किरिस्तांव भाव
सगले आमी एक जावं
आमचो फुडार घडोवं आमी
होच हावेस आज.

हांगा आनीक एके गजालीचो उल्लेख करप गरजेचें आसा. गोंयांत वेगवेगळ्या भासांतल्यान जी कवितेची निर्मणी जाल्या तातूंत असलो सूर आयकूंक येना. हेर भासांतल्यो कविता आपआपल्या समाज आनी धर्मा पुरतो विचार आनी उमाळे व्यक्त करतात. मनोहररायांल्यो आदर्श गोंयकाराच्या ओंठार कांतार आनी पायांत घुमटाचो ताल आसा. तांगेले कवितेंत कळस आनी खुरीस एक जाल्ले दिसतात.

'जायात जागे' ह्या संग्रहान कोंकणी कवितेक सामाजिक परिमाण दिलें. 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या काळांतल्यो कविता वाचतकच एक भाव कवी म्हूण मनोहररायांली प्रतिमा दोळ्यार येता. ते कवितेंत वेगवेगळ्या भावांच्यो, तारो एकाच वरबर झणझणटात. पूण 'जायात जागे' ह्या काळांतले कवितेचो भाव आनी आशय एकूच आसा. जशें गोंयचें जिवित संक्रमण अवस्थेंतल्यान वतालें तशेंच मनोहररायांलें कवीतूय नवे अवस्थेंतल्यान वतालें. किद्याक तर गोंयच्या जिवितालागीं तें एकरूप जाल्लें आमी पळयतात. ह्या संग्रहांत तांणी एकूय प्रेम कवितेचो आस्पाव करूंक ना हाचेकडेन लक्ष गेलेवगर रावना. घडये प्रेम कवितेचो सूर ह्या संग्रहाच्या सुरांत अडेचो लागतलो म्हूण आसत. ह्या काळांतले कवितेची भासूय वेगळी आसा. पयलींचे वरी ती रेखीव ना. खडबडीत खरखरीत म्हणूं येता असली. 'उतर म्हजें' हे कवितेंत तांणी सांगलांच :

उतर म्हजें उकडो तांदूळ
रुचीक पूण बटबटीत
शब्द म्हजो रसाळ पणस

म्होंवाळ पणून खरखरीत.

ते आपलें उतर कट्टे उजो आनी तुबका फार अशें म्हणटात. ह्या तांच्या उतरांचो अणभव तांची 'आमी इकरा जाण' ही कविता वाचतकच येता. कवितेच्या आशयाचेर भाशेची ठेवण निंबून आसता.

ह्या राजकीय आनी सामाजीक संघर्पाच्या काळांत तांणी बरयल्ली 'तूं नासून' ह्या शिर्शकाची कविता विशेश लक्ष वेधून घेता. ही एक प्रेम कविता. पूण तांच्या हेर प्रेम कवितां परस वेगळी. बरीचशी unconventional म्हणूंक येता अशी चड करून तातूंतले प्रतिमांक लागून ती वेगळी दिसता.





तूं नासून कोळयांनी
कोनशांनी विणल्यां जाळीं
तूं नासून आयदनांनी
खुमणीं केल्यां किट्ट काळीं

चारवळी उप्रांत थंड किरांव जावन राविल्ली रांदन येता, वण्टीक नाक तेकोवन उबी आशिल्ली रांदन मान उमथी घाल्लो कोळसो, मोनी सान्न हे सारकिल्यो अस्सल घराव्यो प्रतिमो येतात. घरांत घरकान्नीचें अस्तित्व ना म्हणपाचें सुचोवपी अखेरेक

तूं नसून दिवलेंतली
अर्दकुटीच जळटा वात
तुजे बगर व्हडली जाता
एकसुरीच काळखी रात

ह्यो वळी कवितेक खोलाय हाडटा. मनशाच्या एकसुरेपणाचो अणभव 'तुजेबगर व्हडली जाता / एकमुरीच काळखी रात हे वळींनी आळून आयला.

आनीक एक म्हत्वाचो बदल ह्या काळांतले कवितेंत दिसता. तो म्हळ्यार 'हांव'ची सुवात 'आमी' ह्या सर्वसामान घेतिल्ली दिसता. म्हळ्यारूच तिचो प्रवास हो व्यक्तिनिष्ठ पांवड्यावयल्यान वस्तूनिष्ठ पांवड्यामेरेन जाल्लो दिसता. आपल्या वैयक्तिक अणभवांपरस समाजाच्या अणभवांक कवी तीव्रतायेन भिडिल्लो दिसता. 'फायचो मनीस' सारकिले कवितेंत ताणे म्हळां :

'हांव फायचो मनीस'
एकेच मुठींत राखल्या धरून
विश्वाचे पोकळसाणीत

म्हजी नदर आयल्या फिरून

हांव फायचो मनीस -
वेंग म्हजी मळबायेदी
प्रीत म्हजी कोटी कोटी
मनशाच्या काळजा येदी.

हे कवितेंत 'हांव' ह्या प्रथम पुरुषी एकवचनी सर्वनामाचो उपेग केल्लो आसलो तरी हे कवितेच्या आशयाची व्याप्ती 'आमी'चे वैश्विकते मेरेन पावता. मनोहररायांले प्रतिभेचें खाशेंलेपण ह्याच गुणात आस्पावता. तांचे अणभव तांचे पुरतेंच उर नासतना ते समाजपुरसाचे जातात हातुंतूच तांचे कवितेचें यश आसा. जिविताक पोसवण दिवपी अणभव हीच मनोहररायांले कवितेची खरी बुन्याद आसा. जरी तांच्या विचारांचो कल मार्क्सवाद वा समाजवादाकडेन आसलो तरी तांणी आपले कवितेक हे विचारसरणीची दावीं घालून तिका बंदी करून दवरूक ना. एके तरेचो open view of poetry तांचे कवितेंत उक्तेपणान दिसता. तांचे कवितेंत कांय कडेन abstract कल्पना आयल्यो तरी तांकां ताचो सोंस आशिल्लो दिसना. हाकाच लागून तांणी जितले उत्कटतायेन 'राग गो तुजो तणा उजो / जळटा एक खीण / आनीक पळोवं नाका वाट / रीग म्हजे कुशींत अशो वळी बरयल्यात तेच प्रमाण :

ख्रिस्ताच्या उतरांचो
अर्थ आमी वांकडो करून
लखलखीत भांगरा खुरीस
गळ्यांत घाले
दुबळ्यांच्या उक्त्या भुजांर
लोखणाचे आमचे खुरीस
उडोवन दिले.
फातरांच्या देवांक पुजून
देवावरी देव मनशांक
खुर्साचेर खिळावंक व्हेले

अशीय कविता तांचे हातसून बरोवन जाल्या.

उपरोध ही मनोहररायांले कवितेचो आनीक एक विशेश गूण. उपरोधाचो प्रभावी

वापर तांणी आपले कवितेंत केल्लो दिसता. चड करून तांचे सामाजिक आनी राजकीय आशय आशिल्ले कवितेंत ताका धार येता. ह्या संदर्भात तांच्या 'ही लोकशाय', 'हुंदराची सभा' हे कवितांचो उल्लेख करचो पडटलो. 'ही लोकशाय' ही कविता लोकशाय पद्धतीचेर केल्ले भाश्य. लोकशाय व्यवस्थेचें वास्तववादी चित्र कवितेंत तांणी काडलां. निवेदनात्मक रूप आशिल्ले हे दीर्घ कवितेच्यो कांय वळी हांगा दीन दिसता :

पांडूलो पाडो
गोंदूल्या गाड्याक
काटूलो कोंडो
आंतूच्या आड्याक
लाद्रूच्या शेतांत
पेद्रूची गाय
ही लोकशाय.
***
बारा बोडांक बारा मतां
बारा हजार बारा खतां
दोन बोंडे, दोन आटकां
दोन वांजां दोन कुसकां
बाकी सगले उदकाशिवाय
ही लोकशाय

आनी अखेरेक

बांदोडेचो दोवलो
शिरोडेची कायल
कोणाक जाय, धुमको चिमटो?
हाय!
ही लोकशाय

कवीचो लोकशाय पद्धतीचेर विश्वास ना अशें आमच्यानी म्हणूं येना. पूण लोकशायेची आमी जी विटंबना केल्या ताची ताका खंत आसा. आनी ही ताची खंत 'हाय!' ह्या एकाच उतरांतल्यान प्रभावीपणान व्यक्त जाता. हे संवंध कवितेचो तोल हें एकूच उतर

सांवरून धरता. 'हुंदराची सभा' हीय कविता म्हळ्यार अशेंय एक राजकीय विडंबन. ह्यो कविता साठाव्या दसकांत बरयल्ल्यो. ऐंशाव्या दसकांतूय 'मंत्रिमामा, मंत्रिमामा' सारकिली कविता तांचे हातसून बरोवन जाल्या.

'ही लोकशाय' सारकेली राजकीय विडंबन कवितेबराबरूच मनोहररायान मनशाच्या आपसुवार्थी सभावाचेर टिका करपी कविता बरयल्या. मनशाच्या सुवार्थीपणाक शीममेर नासता. आपलो सुवार्थ सादपा खातीर खंयच्याय पांवड्यार देंवपाची ताची तयारी आसता. हे नदरेन 'कित्याक रे बाबा' ही कविता म्हत्वाची थारता. मनीस झाड मारता पाट्चो करूक, ताका पाटयो जाय आसता खुरीस करूक, तो जमीन मीन करूक खणटा, मीनाचें लोखण करूक आनी

- कित्याक रे बाबा,
लोखण तुका
खेळ करूक

- कित्याक रे बाबा
खिळे तुका?
"जेजू आतां
येतलो परत
ताका परतून
खुर्सार मारूक"

ही कविता सांगचे परस खूप सुचोवन वता. हे कवितेंत मनीस सभावाबराबरूच मनीस कुळयेचो अनादी काळाचो इतिहासूय आसा. आनी हो इतिहास म्हळ्यार मनशान आपल्या सुवार्थाखातीर केल्लो संव्हार. हाकाच लागून कवीक ख्रिस्ताचो मानवतावाद लागींचो दिसता. देखून तो 'काळखाच्या खुर्साचेर / उजवाडाच्या जेजू / काळखांतलीं पातकां म्हजीं / कितलीं कशीं मेजूं' अशें म्हणटा. (काळखाच्या खुर्साचेर)

अर्थकारणा बराबर समाजकारण बदलता. समाजांतलो जो मदलो वर्ग आसता ताका ह्या बदलाचो हुलप बादता. ताका वयल्या पांवड्यार वचपाची शक्त नासता आनी तो एक पांवडो खालाय देवंक शकना. एके तरेची त्रिशंकू अवस्था ताच्या वांट्याक येता. तो मदले मदीं भड्डता आनी चिड्डता. ताच्या घुस्मटमारांक पारावार उरना. वयली जात आनी आर्थिक नदरेन मदल्या पावंड्यार आशिल्ल्या वर्गाची आवतिकाय

'मदले आमी' हे कवितेंत आयल्या. 'न्हय भाटकार न्हय मुंडकार, न्हय वासरेंत न्हय रस्त्यार' अशी तांची स्थिती. तांकां माडार चडूंक येना. चुडीत मोडूंक येना, रोवंक आनी लुवंक येना, तांकां मनशां मुखार बागूंक येना, देवा मुखार नाचूंक येना, हात मुखार करूंक येना आनी कोणाचे पांयूय चाटूंक येना अशी ताची अवस्था आसा.

'पोसो मोखून खेळूंक येना
मोगा उज्यांत जळूंक येना.
हांसूंक येना रडोवंक येना
मारूंक येना, मरूंक येना
शेळें हून रगत जालां
जिरून गेल्या खुमखुमी
असले आमी मदले आमी

अशें हें समाज वास्तव तांणी उतरांनी बांदून दवरलां. अशा मानसीक अणभवाक अकल्पीत मांडण दिवन अजापित करपी परिणाम कवी सादता. अशे तरेच्या अणभवाची अभिव्यक्ती खूप फावट rhetorical जावन कवितेचे सोबीतकायेक नकलामी करता. पूण मनोहररायांले प्रतिभेक हो अणभव कवितेच्या पांवड्यार व्हरपाची तांक आसा. विचार आनी उमाळे हांच्या ओगा वरावरूच तांचे कवितेन जोडिल्लें यश अशें म्हणूंक जाय. हालींच्या काळांत तांणी बरयल्ले 'मेज आयलें' हे कविते संबंदान आमच्यानी म्हणूं येता. मेज सारकिली वस्त आमचे जिणेंत येतकच पोशाखा पासून ते खावपा जेवपाच्या जिनसामेरेन कशे कशे वदल जाल्यात ते तांणी वळेरी करून दाखयल्या. मेजाक लागून आमची संस्कृताय लेगीत वदलून गेली अशें ते म्हणटात. पूण हें सगलें ते उक्तेपणान सांगिनात. तर सुचक उतरांनी सांगतात.

मनोहररायांले काव्य प्रतिभेचो एक वेगळो आविश्कार तांच्या ल्हान कवितांनी दिसता. तांच्या 'जायो जुयो' (1970) आनी 'पिसोळीं' (1978) ह्या दोन संग्रहानी वाचूंक मेळटात. तशेंच ह्या कवनांनी तांचे भितर तांक आसा, तांणी घेतिल्लो ह्या संवसाराचो अणभव चार ते पांच वळीं भितर आटोवन हाडपाचो सफळ यत्न केल्लो ह्या कवितांनी दिसता. तशेंच जिणेंतलीं चिरंतन सतां ही कविता सांगता. पूण हें सांगतना कवीन खंयूय तत्वज्ञानी भूमिका घेतिल्ली दिसना. सर्वसामान्य मनशाच्या पांवड्यार रावन ते उलयतात. ताका लागून ह्या रचनांनी तांचे भुयेर आशिल्ले पांय दिसतात.

खंयतरी रानांत

म्हजे बराबर

एक रुख वाडटा

म्हज्या निमाण्या दिसा

म्हाका सांगात दिवंक

कविता म्हळ्यार कवीक होलमल्लें जिविताचें एक व्हड सत. ही दुसरी :

वेतलों सोडून धर्तरी

तेन्ना थड्यार दोनूच दुखां

फुलां दोनूच उगडासाचीं

आनी मुखार म्हजें वाटेंत

पावलां म्हज्या भुरग्यांचीं.

हो मर्णाचो अणभव आनीक वेगळी प्रतिमा घेवन येता :

- पाख्या, अशें पिशेपणान

वातीखातीर मरप मरे?

- मरून मागीर जळपा परस

जळत, जळत मरप बरें.

मरणाभशेन जिवित म्हळ्यार उगडास आनी सपन हांचे मदलें एक निसरतें सपण अशें कवीक दिसता. जिवित आनी मरण हो आशय आशिल्ल्यो खुपशो कविता 'जायो जुयो' आनी 'पिसोळीं' ह्या संग्रहांनी मेळटात. किद्याक तर हीं दोन चिरंतन सतां तांच्या चिंतनाचे विशय आसात.

हातूंतल्यो कांय कविता म्हळ्यार अमूर्त चित्रां आसात. तर कांय मेजक्या रेशांतल्यान आकाराक आयिल्लीं रेखाटनां :

नखेत्रांचीं मुळां आसात

तुज्या दोळ्यांत

मळबाच्यो पाकळ्यो आसात

साळका तळ्यांत

हे चार वळींत तांणी दोळे आनी तळें ह्या दोन प्रतिमांमदीं तोल सादून अवकाशाची जाणविकाय करून दिल्या. तेच भशेन :

मळबार एक माड धोलता

दर्यार एक ल्हार हालता
काळजांत एक याद फुलता

ह्या तीन वळींची कविता म्हळ्यार एक अवकाशाच्या आवाटाक वेंगावपी प्रतिमाच. हे प्रतिमा फाटल्यान अणभवाची सासाय आसा. आनी ताका लागुनूच तांकां वजन येता.

बाकीबाबान आपले "जायो जुयो" संग्रहाचे प्रस्तावनेंत म्हळां ते प्रमाण हातूंतले कांय कवितांक सुभाषितांची कळा आसा. आनी सुभाषितां म्हळ्यार जिविताच्या अणभवाचो अर्क. ते नदरेन पळयल्यार मनोहररायाले कवितेक विशेश म्हत्व आसा. 'हांसतल्याचे दांत दिसतले / दांत नासलेले कशे हांसतले सारकिल्यो जिवितांतली विसंगती दाखोवपी वळी आनी 'काम कर दोनूय हातांनी / पोटभर दोनूय बोटांनी ह्या आठूच उतरां आशिल्ल्यो वळी लोकांचे जिबेर सहज म्हणीं भशेन घोळूंक शकतात. हाकाच लागून ते खऱ्या अर्थान लोककवी थारतात. अशें भाग्य दुसऱ्या खंयच्याय कोंकणी कवीच्या वांट्याक येवंक ना. ह्यो कविता वाचप्याक अंतर्मूख करतात, विचार करूंक लायतात. 'ह्यो कवितांनी कोंकणी कवितेंत नवीं परंपरा सुरू केली. बाकीबाब आनी र. वि. पंडिता सारकिल्या जेश्ठ कवींचेरूय तांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. बाकीबाबांनी तें उक्तेपणान मान्यूय केलां.

मनोहररायांले कवितेची एकूण बांदावळ सादी सोंपी. तशेंच तिची भास आनी शब्दकळा सगल्यांचेच संवकळीची. हे कवितेंत गूढांत उडोवपी abstraction ना. देखून ही कविता कोंकणी समाजाच्या सगल्या थरांत झिरपूंक पावली. साठाव्या दसकांत उदेव जाल्ले कोंकणी कवीचे पिळगेक तिणें कवितेची स्फूर्त दिली. एक सबंद कोंकणी कवींची पिळगी तागेल्या प्रभावाखाला आयिल्ली दिसता. पूण हे कवी ह्या प्रभावांतल्यान भायर सरूंक पावलेनात. ह्या कवींक मनोहररायांले कवितेचें भायलें रूप तितलें दिसलें पूण तिच्या अंतरंगांत रिगून तिका समजून घेवंक जमलें ना. Deceptively simply अशी तिची प्रकृती आशिल्ल्यान हे पिळगेंतले कवी फटवले. हातूंतलो जेस फेर्नांदीशा सारकिलो कवी ह्या प्रभावांतल्यान ल्हव ल्हव करून भायर सरूंक पावलो आनी आपले वाटेन वता म्हणपाचें दिश्टी पडटा. हे कवितेचो प्रभाव मंगळुरांतले तरणे पिळगेचेर पडिल्लो दिसता. मॉवरील द सा, ॲन्सी पालाडका सारकिल्या कवींचो चेरो जिंत्रूप मनोहररायांले कवितेभाशेन आसा.

मनोहररायांली कविता भौसामेरेन पावली हाचे फाटलें आनीक एक कारण म्हळ्यार तिणें आपल्याक भोंवतणचे परिस्थिती पासून पयस दवरली ना. दुसऱ्या

उतरांनी सांगपाचें म्हळ्यार ही हस्तीदंती मनोऱ्यांत बसून बरयल्ली कविता न्हय. तिका आशिल्ले राजकीय आनी समाजिक संदर्भ खूब म्हत्वाचे आसात. तिचे फाटल्यान आशिल्ल्या मानवतावादी नदरेंतल्यानूच तिका भौसाच्या काळजांत सुवात दिल्या. खूब थोड्या गोंयकार कवींच्या वांट्याक अशें भाग्य आयलां. A poet is a man speaking to man अशें वर्डस्वर्थान म्हळां. ते मनोहररायांक खऱ्या अर्थान लागू जाता.

हेर भारतीय भासां भशेन कोंकणी कवितेक आपलें अशें गिरेस्त दायज नासलें तरी मनोहररायांली कविता खंयच्याच आंगान उणी म्हणूंक येना. नामनेचे इंग्लीश कवी टी.एस. इलियट हाणें आपल्या Traditional and Individual Talent ह्या म्हत्वाच्या टिका लेखांत म्हळां : "खंयचोच कवी परंपरेपासून पयस वचूंक शकना. परंपरेचे बुन्यादीचेरूच नवतेचें शिल्प उबें आसता. इंग्लीश कवितेंत युरोपियन परंपरेचें दर्शन जाता." मनोहररायांले कवितेकूय हीं उतरां जिस्त लागतात. तांचे कवितेंतूय भारतीय कवितेचें दायज दिसता. मनोहररायान आपले कवितेवरवीं भारतीय कवितेक गिरेस्त केल्या. तांचे कवितेंत गोंयचे बराबर भारतीय ethos दिसता. देखून ते कोंकणी भाशेंत बरोवपी भारतीय कवी थारतात.

**- माधव बोरकार**



मनोहररायांली कविता भौसामेरेन पावली हाचे फाटलें आनीक एक कारण म्हळ्यार तिणें आपल्याक भोंवतणचे परिस्थिती पासून पयस दवरली ना. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें म्हळ्यार ही हस्तीदंती मनोऱ्यांत बसून बरयल्ली कविता न्हय. तिका आशिल्ले राजकीय आनी समाजिक संदर्भ खूब म्हत्वाचे आसात. तिचे फाटल्यान आशिल्ल्या मानवतावादी नदरेंतल्यांनूच तिका भौसाच्या काळजांत सुवात दिल्या. खूब थोड्या गोंयकार कवींच्या वांट्याक अशें भाग्य आयलां. A poet is a man speaking to man अशें वर्डस्वर्थान म्हळां. ते मनोहररायांक खऱ्या अर्थान लागू जाता.

हेर भारतीय भासां भशेन कोंकणी कवितेक आपलें अशें गिरेस्त दायज नासलें तरी मनोहररायांली कविता खंयच्याच आंगान उणी म्हणूंक येना. नामनेचे इंग्लीश कवी टी.एस. इलियट हाणें आपल्या Traditional and Individual Talent ह्या म्हत्वाच्या टिका लेखांत म्हळां : "खंयचोच कवी परंपरेपासून पयस वचूंक शकना. परंपरेचे बुन्यादीचेरूच नवतेचें शिल्प उबें आसता. इंग्लीश कवितेंत युरोपियन परंपरेचें दर्शन जाता." मनोहररायांले कवितेकूय हीं उतरां जिस्त लागतात. तांचे कवितेंतूय भारतीय कवितेचें दायज दिसता. मनोहररायान आपले कवितेवरवीं भारतीय कवितेक गिरेस्त केल्या. तांचे कवितेंत गोंयचे बराबर भारतीय ethos दिसता. देखून ते कोंकणी भाशेंत बरोवपी भारतीय कवी थारतात.

**गोवा कोंकणी अकादेमी**